आजवेर पळेल्ल्या, आयकल्ल्या, वाचिल्ल्या आनी
मणाविल्ल्या गिन्यानाचें सार हांवें तुमच्या फुडांत दवल्लें.
तांच्या आनी तुमच्या मनाची फटवण करूंक हांवें
तुमकां नाका-जाल्ल्यों फटासी सांगूंक नात. तांजी
दरएकली तणणी ... बुद्धिचे सानिर
चांसून पळयात ... ल्यार घेयात. हांव
जाल्यार तांच्य... ले. ताका सर्ग ना,
नर्क ना, आ... ताज्या दुख्खांक
हांव भियेना. आ... क सोदीना. यंव
कौन कौन जकातलो ... णाचो वांचतलों. हांव
तेजे माये-मोगाचें ... पेतलें. हांव
तंवस्सार ब... दुख्खां
वांगडा एकसारकी चौठ व्यासतलों आनी तांकां
शिकवतलों. हांव सुखी जातलों आनी सगळ्यांक सुखी
करतलों.



# जाग

वर्स २७ • आंक ९ • एप्रिल २००१

# जाग

वर्स २७ : आंक ९ : एप्रील २००१

ामी : रवीन्द्र केळेकार

ुगो संपादपी : माधवी सरदेसाय

जडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय

क्षजुळणी : तन्वी ग्राफिक्स, मडगांव

पा : प्रिन्टआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय

कचित्र : सुशांत नायक
(मजकूर: 'संवसार बुट्टी' : १२व्या आत्म्याच्या उलोवपांतलो वांटो)


## ह्या आंकांत




र्सुकी पटी : रु. १०० /-

वेद्यार्थ्यां खातीर : रु. ७५/-

तीन वर्सांची पटी : रु. २५०/-

वेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

ोक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत धा रुपया अदीक जोडचे.

ाराचो नामो :

ा म्हयनाळें :
१-बी, सालदेल अपार्टमेन्टस्
द साउदादिश, पाजीफोंड
ांव - गोंय ४०३ ६०१:

कोळ आंकाचें मोल : रु. ९/-


## नदर संपादप्याची

### संस्कृतायेच्या मळार नडणी खूब गरजेची

भजन खंयचेय भाशेंतलें आसूं, हिन्दुस्तानांतलो मनीस तें भक्तिभावान म्हणत आयला. भासो वेगळ्यो आसल्यो म्हूण लोकांनी संतांक केन्ना वेगळे मानले नात. अमृतसरच्या सुवर्ण मंदिराची बुन्याद 'पवित्रांतल्या पवित्र' एका मनशाच्या हातान घालची अशें शिखांक दिसलें तेन्ना तांकां एक मुसलमान अवलियो मेळ्ळो. ताका घेवन ते आयले. तो तांकां परकी दिसलो ना, आपलोच दिसलो. शिखांच्या 'गुरू ग्रंथ साहिबां'त शिख गुरुंचीं पदां आसात तशीं कबीराचींय आसात आनी नामदेवाचींय आसात. ह्या देशांत भाशेन मनशां मनशां मजगतीं वणट्यो उब्यो करूंक नाशिल्ल्यो, तश्यो धर्मांनीय करूंक नाशिल्ल्यो. लोक वाद घालताले. वादांत केन्ना केन्ना दुसऱ्या तोंकार पावताले. पुणून एकामेकांचो दुस्वास करपा मेरेन केन्ना कोण पावनाशिल्ले.

'पीसफूल को-एक्झीस्टंस' आमच्या रगतांतूच घोळटालें. तेंवूय अशोकाच्या काळा पसून. ताच्या एका शिलालेखांत एक वाक्य मेळटा - **सर्वे पाषण्डाः वसेयुः** - वेगळ्या वेगळ्या धर्ममत्तांक हांगा सारकीच भौमानाची सुवात आसा.

मागीर, भाशेक लागून आनी धर्माक लागून लोक एकामेकां लागीं केन्ना सावन झगडूंक लागले? इंग्रजांच्या काळा सावन? इतिहास सारको धवळून काडचो पडटलो. कित्याक, आमी पळेतात -

इंग्रजी शिकून वयर सरिल्ले वेगळे वेगळे कडले बंगाली, मद्रासी, महाराष्ट्री, खोजा, बोहरी, पारशी भारतीय आपणाल्या हकां खातीर एके माचयेर येवन देशाक जाग्रूत करपाच्या वावराक लागल्यात तेन्ना देशा परस चड इंग्रजूच जाग्रूत जाल्यात आनी एके माचयेर आयिल्ल्या ह्या लोकां मजगतीं आशिल्ल्या वेगळेपणाच्या तत्त्वांक पोसवण दिवपाक लागल्यात. हिन्दूंक मुसलमानां आड, मुसलमानांक हिन्दू आड, ब्राह्मणेतरांक ब्राह्मणां आड, दलितांक सवर्णां आड, दक्षिणेक उत्तरे आड करपाक जें जें करूं येता तितलेंय ते करपाक लागल्यात. आनी एकठांय आयिल्ल्यां मजगतीं फूट घालपाचें काम नेटान करीत रावल्यात. स्वराज्याचे चळवळीक समांतर अशें इंग्रजांचें हें Divide and Rule धोरण जागरुकपणान चलत रावलां.

शेतकार घाळ उरता तेन्ना शेतांत थांबां वांगडा खंय नेरूय वाडटा. संस्कृतायेच्या मळार आमी घाळ उरले तेन्ना दुस्वासाची, मत्सराची, अनुदारपणाची नेर समाजांत वाडत गेली. तिची नडणी करपाचो वावर स्वराज्याच्या वावरा वांगडाच नेटान चलत रावंक जाय आशिल्लो. तो आमी केलो ना. 'स्वराज्य मेळटकूच सगळें जाग्यार पडटलें. तुर्ताक देश स्वतंत्र करपाच्या वावरांत लक्ष केन्द्रित करुंया... ल्हान ल्हान वावरांत शक्ती खर्चुंया नाका' अशें म्हणून आमी संस्कृतायेच्या वावराची पुराय उवेखणीच केली.

परिणाम - देश स्वतंत्र जालो खरो. पुणून अखंड उरलो ना. फुटलो. सर्वधर्मसमभावी म्हूण आमी मुखार काडलो खरो. पुणून एकूय धर्म आमी दुसऱ्या धर्मा लागसार हाडूंक पावले नात. आफूड भश्ट कायद्यान ना केलें खरें. पुणून दलितांक आमी हिन्दू समाजांत आसपावन घेवंक पावले नात. आमी जाती-बिती मानिनात अशें म्हणीत रावले. पुणून जात पळेनासतना एकल्याकूय आतां मेरेन वेंचणुकेंत आमकां तिकेट दिवंक आयली ना. वेगळेचारां आड झुजप कठीण आशिल्लें खरें. पुणून हेंच चडांत चड गरजेचें

आशिल्लें. तेंच आमी केलें ना. स्वराज्य येवन आतां अर्द शेंकडो जालो, आमी आशिल्ले थंयच उरल्यात.

प्रस्न येता - हे मुखारूय आमी अशेच चलत रावतले? जाल्यार, एक मतींत धरिल्लें बरें, एका देशांत आरे आरे म्हणटासर कितलेशे देश जल्माक येतले आनी -

आमी आशिल्ले तशे कोणाचे न्हय कोणाचे गुलाम जावन पडटले.

जांकां ही भिरांत आसा तांणी हे मुखार संस्कृतायेच्या मळार नडणी करून नेर हुमटावन काडपाच्याच वावराक चडांत चड लागूंक जाय.

## आत्मकथा

'तुमी आनीक कितेंय बरयात वा बरोवं नाकात, पुणून आत्मकथा बरयले बगर रावं नाकात,' अशें थोरो म्हणटालो. 'कित्याक, तुमचे कडेन सांगपा सारकें, बरोवपा सारकें निजाचें अशें कितेंय आसा तें तुमी पळेलां, अणभवलां तेंच'. पुणून ताची एक अट आशिल्ली. 'तें सांगता आसतना तुमगेल्या जिवाभावाच्या इश्टाक (वा इश्टिणीक) सांगतले आशिल्ले तितल्याच मेकळेपणान सांगात.'

खासा थोरोन हे तरेची आत्मकथा बरयल्ली आसत जाल्यार अजून मेरेन म्हाका ती वाचूंक मेळूंक ना. पुणून कांय वर्सां पयलीं टॉलस्तॉयचें 'वॉट शाल वुइ डू दॅन' पुस्तक वाचून प्रभावीत जाल्लों त्याच वेळार थोरोचें 'वॉल्डन' पुस्तक हातांत पडिल्लें आनी हांवें तेंय तितलेच रुचीन वाचिल्लें. अमेरिकेंत वॉल्डन नांवाच्या एका तळ्या लागसार ताचें एक भाट आशिल्लें. ह्या भाटांत तो कांय म्हयने वचून राविल्लो. थंय ताणें खासा आपणाल्या हातान आपणा खातीर एक पर्णकुटी बांदून काडिल्ली. हे पर्णकुटींत रावन तो भाटांत कुदळ खोरें घेवन काम करतालो. तरांतरांचें पीक काडटालो. झाडां शिंपतालो. फळां काडटालो. भाजी-पालो रोयतालो. दिसूय भर असल्या कामांत गुल्ल आसतना सैमाची, झाडां-पेडांची, सुकण्यां-शेवण्यांची, मळबांत उबतल्या कुपांची नियाळणी करतालो. वांगडा चिंतनूय करतालो. आनी उसरपत जाताली तेन्ना एकाद-दुकलें पुस्तक घेवन वाचपाक बसतालो. एका पुस्तकाचो तो मोट्या भौमानान उल्लेख करता. तो म्हळ्यार भगवद्गीतेचो. थोरोच्या ह्या पुस्तकान हांव टॉलस्तॉयच्या पुस्तकान जाल्लों तितलोच प्रभावीत जाल्लों. आतां उतार पिरायेर म्हज्या कांय आवडट्या पुस्तकांचो आपरोस काडपाक बसलों तेन्ना टॉलस्तॉयच्या पुस्तकाचो सगळ्यांत पयलीं काडलो. थोरोच्या पुस्तकाचो काडपाक अजून उसरपत जावंक ना. पुणून ह्या निमित्त्यान हांवें तें पर्थून एक फावट बारकायेन वाचलें तेन्ना मनांत आयलें, 'आरेरे, आयज जें समजलां तें त्या काळांत समजल्लें जाल्यार म्हज्या जिविताक घडये हांव एक वेगळीच दिका दितलों आशिल्लों. आतां खूब उशीर जालो.'

पुणून संवसार सोडून वचचे पयलीं ह्याय पुस्तकाचो आपरोस काडपाचो संकल्प पूर्ण करतलोंच म्हूण आसां. सोडून दिवंक ना.

पुणून ह्या पुस्तकाक थोरोची आत्मकथा म्हणूं येना. ही आत्मकथा मानलीय जाल्यार वॉल्डन तळ्या तडीर तो आपणाल्या भाटांत वचून राविल्लो त्या काळांतली. दोन तीन म्हयन्यांची. पुराय जिविताची न्हय. थोरोचें पुराय जिवीत असल्याच कसल्या न्हय कसल्या आगळ्या वेगळ्या प्रयोगांनी खर्चलां. ते भायर तो एक व्हड चिंतक. ताणें आत्मकथा बरोवंक जाय आशिल्ली. एक बरेंऽ पुस्तक वाचूंक मेळिल्ल्याची खोस भोगतली आशिल्ली.

हांवें आत्मकथा खूब जाणांच्यो वाचल्यात. राजकी फुडाऱ्यांच्यो, राजदुतांच्यो, पत्रकारांच्यो तश्यो साहित्यकारांच्यो. सगळ्योच आवडल्यात अशें न्हय. कांय आवडल्यात. कांय सुमारा भायर आवडल्यात. कांय मात लेगीत आवडूंक नात. तांच्यो खबरी सांगपाक बसलों जाल्यार त्यो एका लेखांत सांगून जावच्यो नात. पुणून दोग येवरोपेव साहित्यकारांच्या आत्मकथांची खबर सांगले बगर म्हज्यान रावंक जावपाचें ना. एक, सॉमरसॅट मॉमची - **समिंग अप**. आनी दुसरी, स्टिफान इवाइगाची **द वर्ल्ड ऑफ येस्टरडे.**

मॉम एक कथाकार तसो नवलकथाकार, नाटककार तसो निबंधकार. ताच्या कथा-नवलकथांनी एका काळार लोकांक पिशें लायिल्लें. आयजूय त्यो पिशें लायतात. सुमार अर्द शतमानाच्या काळांत ताणें साहित्याच्या मळार जे तरांतरांचे प्रयोग केले तांची कथा ताणें **समिंग अप** पुस्तकांत सांगल्या. ताची शैलीय ओडलायणी. सुटसुटीत वाक्यांची, एक उतर हेवटेनचें तेवटेन करूंक येवपाचें ना, हे तरेची. जिस्त्त जिस्त. शैली केळोवपाक ताणें बरीच तपश्चर्या केल्या. ताच्यांतल्या सर्जकाची आंतरकथा ही. जाणटे पिरायेर बरयल्ली. ताच्या जिवितांत लोकांची जीण सकयल वयर करपी कितल्योश्यो घडणुको येवरोपांत घडिल्ल्यो. पुणून मॉमच्या आंतर-जिविताचेर तांचो व्हडलोसो परिणाम जाल्लो दिसना. घडये ताणें आपणाक त्यो लावन घेवंक नात जातल्यो.

स्टिफान इवाइगाच्या जिवितांत जीण सकल वयर करपीच न्हय, तर ताचें जगूच उद्ध्वस्त करपी भूंयकापा सारक्यो घडणुको घडल्यो आनी तो ताचे भुंये वयलो हुमटून खंयचे खंय शेंवटून पडलो. जल्मान ऑस्ट्रियेंतलो. व्हियेनांत ल्हानाचो व्हड जालो. थंयच्या सगळ्या साहित्यकार संगितकार चित्रकारां सांगातान वाडलो. सगळ्यां कडेन ताचो दाट संबंद आयलो. त्या काळांतल्या व्हियेनांतल्या साहित्यीक, सांस्कृतीक वातावरणाचीं ताणें आपणाले आत्मकथेंत वर्णनां केल्यांत तीं वाचतकूच ताच्या भाग्याचो मत्सर दिसपाक लागता. ह्याच वातावरणांत ताणें एका फुडलीं एक कितलींशीं सुंदर पुस्तकां बरयलीं. तांच्यो कितल्यो-श्यो उजवाडावण्यो जाल्यो. येवरोपांतल्या सगळ्या भासांनी तांचे अणकार जाले. तांकां लागून तो निखटो जर्मन भाशेंतलो साहित्यकार उरलो ना, 'येवरोपेव' साहित्यकार जालो. एक मानवतावादी लेखक म्हूण ताका सगळे वळखुपाक लागले. सगळ्या 'येवरोपी' साहित्यकारांचो एक संघ सुरू करचो अशें ताका दिसपाक लागलें. फ्रांसांतले रोमां रोलांय ह्याच विचाराचे आशिल्ले. तांच्या आधारान येवरोपभर भोंवन इवाइगान सगळ्यां कडले संबंद दाट केले. जिस्त ह्या वेळार जर्मनींत हिटलर सत्येर आयलो. ताणें अवचीत एक दीस ऑस्ट्रियाच गिळून उडयली. हिटलर ज्यू लोकांचो दुस्वासी. पातयेवपा सारके लोक न्हय हे अशें मानपी. हिटलराच्या ह्या ज्यू दुस्वासाक लागून आइन्स्टाइना सारकेल्या युगप्रवर्तक वैज्ञानिकाक लेगीत जर्मनी सोडून वचचें पडलें. इवाइगूय जल्मान ज्यू. ताकाय जर्मनींतल्यान पळून वचचें पडलें. ज्या देशांत घराघरांनी ताचीं पुस्तकां पाविल्लीं त्याच देशांत ताच्या पुस्तकांची लोकांनी होळी पेटयल्ली पळोवपाचो प्रसंग ताचेर आयलो. तो इंग्लंडाक गेलो. भास वेगळी, वातावरण वेगळें, तरी आसतना ह्या नव्या संवसारांत भरसुपाचो ताणें यत्न केलो. पुणून जर्मनींत हिटलर वयर सरिल्ल्यान जीं चाकां येवरोपभर घुंवपाक लागिल्लीं तातूंत इंग्लंडान एक दीस जर्मनी आड झूज मांडलें. इवाइग जर्मनींतल्यान 'पळून आयिल्लो' आसलो जाल्यारूय 'कायद्यान' जर्मनूच आशिल्लो. म्हूण

ांत तो कायद्यान देशाचो 'दुस्मान' थरलो. ताका इंग्लंडूय सोडून पडलें. खंय वतलो? पुराय येवरोप झुजाच्या उज्यांत हुलपतालें. इव्हाइग ल्या दक्षीण अमेरिकेंतल्या ब्राझील देशांत गेलो. थंय ताचीं पुस्तकां पयलीं पाविल्लीं. ब्राझीलची भास पुर्तुगेज. इव्हाइगाच्या पुस्तकांचे सुंदर पुर्तुगेज अणकार ब्राझीलच्या रसिकांनी केल्ले. ताका वयर वयर करपी थंय खूब आशिल्ले.

पुणून, नवें कितेंय बरयतलो म्हळ्यार जर्मन सोडून दुसरे भाशेंत बरोवप ा. आनी जर्मन भाशेचो संवसार ताच्या जिवितांतलो ना जाल्लो. पिरायेक वर्सां जाल्लीं. जिवीत नव्यान सुरू करपाची ही पिराय नाशिल्ली. ह्या टमारांत ताणें येवजिलें, तकली जाग्यार आसतनाच जिवीत सोंपयल्लें आनी ताणेंआत्महत्या केली.

कुड्ड्या राष्ट्रवादान एका व्हड मानवतावादी साहित्यकाराचो बळी घेतलो.

मॉम आनी इव्हाइग दोगूय येवरोपेव. भोगवादी संस्कृतायेंत दोगांयची जाल्ली. भोगपा सारकें सगळें दोगांयनी फावऽ त्या प्रमाणांत भोगलांच ूंक जाय. पुणून दोगांयचे आत्मकथेंत तांच्या खाजगी जिविता संबंदान च वाचूंक मेळना. कित्या खातीर? तांकां तें 'लिपोवपा सारकें दिसलें काय? येवरोपी लेखकां संबंदान एक लक्षांत दवरूंक जाय. ते दांभीक . खंयचीय बायलमनीस तांच्या मोगांत पडून तांच्या सांगातांत रावपाक ली जाल्यार 'आमचे संबंद भावा-भयणी सारके' अशें ते केन्ना सांगचे . 'इश्ट इश्टिणिचे संबंद आमचे' म्हूण सांगून मेकळे जातले. इश्ट टिणिच्या संबंदांत चुंबन, आलींगन, संभोग सगळें येता. पुणून आत्मकथेंत पा इतले म्हत्वाचे संबंद व्हय तर हे? खासा तेवूय आंबटशौकी नासतात, वाचपीय आंबटशौकी नासतात. सांगपाची गरजूच ना म्हूण ते खाजगी वेतांतलें कांय सांगिनात.

आत्मकथेंत कितें सांगचें हाचे परस कितें सांगचें न्हय हाचो विवेक मनशाक ूंक जाय.

खुशवंतसिंगाक हो विवेक ना. तो 'सगळें' सांगता. उकतेपणान सांगता. केन्ना करूंक नाशिल्ल्यो गजालीय केल्यो म्हूण सांगता. आपणाली कां वाचपी लोकांची कामवासना अतृप्त उरल्या, ते असल्यो गजाली रुचीन वाचतले म्हणपाची ताका खातरी. म्हूण, जितलें पोजडें बरोवं तितलेंय बरोवन छापता.

'पोजडें'च बरप हें आनी बरोवपी 'बाजारू'च. नांव जावं ताचें केदेंय. या प्रांजळपणाची सर गांधींच्या प्रांजळपणा कडेन करप समा न्हय. ींच्या 'सत्याच्या प्रयोगां' संबंदान एक गजाल लक्षांत दवरूंक जाय. ती त्मा' गांधींची आत्मकथा न्हय. हेरां हजारां लाखांनी लोकां सारक्या नदास करमचंद गांधी नांवाच्या एका सरसमान स्खलनशील मनशाची मकथा ती. जाका तुमी महात्मा म्हणटात तो महात्मा म्हूण जल्माक येवंक ल्लो, सरसमान सगळ्यां सारकोच जल्माक आयिल्लो; सभावान ूड आशिल्लो, स्खलनशील आशिल्ला; मायदेशांत बॅरिस्टर म्हूण अपेसी ल्लो, म्हूण दक्षीण आफ्रिकेक गेल्लो; चार पयशे जोडटलों अशें येवजून ो. थंय ताका तरांतरांचे कोडू अणभव आयिल्ले. पुणून हाच्यांत एक ल आशिल्ली - तो स्वता कडेन प्रामाणीक आशिल्लो, सत्यवादी शिल्लो, भिजुडपणाचेर ताणें जैत जोडिल्लें म्हूण ताचे हस्तुकीं कांय न्यां भायले वावर जाले... ताका ते जमले जाल्यार तसले कोणाकूय क जाय अशें मनापसून मानतल्या एका प्रामाणीक मनशाची आत्मकथा ती.

आत्मकथा जण एकल्यान बरोवची. प्रांजळपणान बरोवची. पुणून कितें सांगपा सारकें, कितें न्हय हें तर्जून मागीर बरोवची. जें कितें सांगपा सारकें न्हय, सांगपाची गरज ना, जाका व्हडलेंशें मोल ना, म्हत्व ना तें सांगुंकूच जाय अशें ना. तुमी पळेलां अणभवलां तें 'अमूल्य' (मोल नाशिल्लें) आसत जाल्यार तुमची आत्मकथा कितलीय रुचीक जावं, तिचो आसपाव 'रद्दी' साहित्यांतूच जातलो. प्रांजळपणां गरजेचीं खरीं. पुणून प्रांजळपणाच आत्मकथेचो कस न्हय.

ह्या वरकुलार सगळ्यो आत्मकथा वाचून पळोवच्यो. म्हणटकूच खंयच्यो 'खऱ्या', खंयच्यो रद्दी त्यो लक्षांत येतल्यो.

## भंगीकामाचेरूच बंदी हाडूंक जाय

भंग्यांक हालिंसाराक खंय भंगी म्हणूंक जायना. कायद्यान हाचेर बंदी घाल्या. भंग्याक भंगी म्हळो जाल्यार खंय ख्यास्तूय जाता.

म्हणटकूच, तांकां कोण म्हूण पाचारपाचे?

तर खंय, 'सफाई कर्मचारी' म्हणपाचे.

वा, अमकेच एके जातिचे म्हूण तांची वळख करून दिवची जाली (नोकरी रिझर्वेशन हांचे खातीर ती दिवची पडटा) जाल्यार खंय ते 'वाल्मीकी' जातिचे म्हूण सांगपाचें.

कायद्यानूच कायद्याक गाढव म्हळा तो बेश्टो न्हय.

गाढवाक खंय अक्कल नासता.

भंग्यांक सफाई कर्मचारी म्हळें कितें वा वाल्मीकी जातिचे म्हळें कितें,ते करीत आयल्यात त्या कामाचो पांवडो वाडटा व्हय? त्या कामांतल्यान ते मेकळे जातात व्हय? लोक म्हणटले, आमी जी घाण करून दवरतात, ती काडून जे पयस व्हरून उडयतात तेच मू हे 'सफाई कर्मचारी' वा 'वाल्मीकी'? जाल्यार फकत कोशांत भंगी उतराक समानअर्थी नव्या दोन उतरांची भर पडटली. आनीक कांय जावपाचें ना.

खरेपणानशीं बंदी हाडूंक जाय ती तांच्या ह्या कामाचेर. हें कामूच बुरशें. ख्यास्त करचीच आसली जाल्यार ती दोगांक करूंक जाय -

१. हें बुरशें काम अमकेच एके जातिच्या हातांत दितात तांकां. आनी -

२. हें काम करतल्यांक जे 'उणाक' लेखतात तांकां.

घाण करप आमी आनी घाण काडटात तांकां उणाक लेखप हें एक 'कॉग्निझिबल ऑफेन्स' धरूंक जाय आनी तें करतल्यांक ख्यास्त जावंकूच जाय.

जाणकार म्हणटात, वेदीक समाजांत घाण काडपी वेगळे अशे कोण नाशिल्ले. वेदीक समाजान चार वर्ण मानिल्ले आनी ह्या चार वर्णांत शूद्र नांवाचो एक वर्ण आशिल्लो. पुणून शूद्रां खातीर स्मृतींनी जीं कामां नेमून दिल्यांत तांतूंत ह्या कामाचो खंयच उल्लेख येना. ब्राह्मणाचीं म्हूण जीं कामां सांगल्यांत तांतूंत मात 'शौच' म्हूण एका म्हत्वाच्या कामाचो उल्लेख येता. आनी तें अध्ययन अध्यापना इतलेंच 'वयल्या पांवड्या'चें - 'उदात्त, उत्तम, उत्कृष्ट' काम अशें स्मृतींनी मानलां. ते मुस्तींत घडये गांव निवळ दवरपाचें काम ब्राह्मण करताले आसूंक जाय. समाजाचे भलायकेची दायकी तांणी आपणाल्या आंगार घेतिल्ली आसूंक जाय.

पुणून वेदीक काळा आदीं आनीक एक संस्कृताय ह्या देशांत चलताली. तिका आयज आमी 'सिंधू संस्कृताय' - इण्डस् वॅली सिविलिझेशन'

म्हणटात. हे संस्कृतायेंत 'सफाई कर्मचारी' आशिल्ले जावं येतात. कित्याक, ही संस्कृताय शारांची आशिल्ली. आनी शारांत घरां आशिल्लीं तांकां पायखिळे आशिल्ले. पायखिळ्यांतली घाण व्हरतल्यान भायले भायर व्हरची म्हूण भायर मागीलदारांत खळयोय आशिल्ल्यो.

घाण भायले भायर व्हरपी लोक खंय रावताले, हें मात इतिहासकार सांगिनात. चड करून शाराच्या कोटा भायर रावताले आसूंक जाय.

म्हळ्यार, आफुड-भश्ट सिंधु संस्कृताये पसून ह्या देशांत चलत आयलां अशें म्हणचें पडटा.

कांय जाण म्हणटात, भंग्यांची ही जात ह्या देशांत मुसलमानांनी सुरू केल्या. झुजांत ज्या हिन्दू शिपायांक ते धरून हाडटाले तांचे कडल्यान ते खंय पायखिळे निवळ करपाचें काम करून घेताले. हें कितलेंशें खरें मानपाचें, तर्जून पळोवंक जाय. कित्याक, बुद्धाचे मुस्तींत भंगी आशिल्ले आनी लोक तांची सावळी लेगीत आपणाचेर पडूंक पावची न्हय हाची जतनाय घेताले. आनी बुद्धाचे मुस्तींत हिन्दुस्तानांत खंयचे, संवसाराचे फाटीर खंयचेच कडेन मुसलमान नाशिल्ले.

सुणीत नांवाच्या एका भंग्याची कथा बुद्धाच्या जिवितांत सांगल्या. तो राजगृह शारांतले पायखिळे निवळ करतालो आनी शारांतली घाण माथ्यार उखलून पयस एका शेतांत व्हरून पुरतालो. एक दीस तो घाण माथ्यार उखलून व्हरता आसतनाच जिस्त बुद्धाक भिक्षे खातीर शारांत भितर सरिल्लो ताणें पळेलो. तो काचाबूल जालो. कितें करचें, ताका येवजना जालें. ताचेर आपणाली सावळी पडची न्हय म्हूण तो एके वणटीक तेंकून उबो रावलो. बुद्धाची नदर ताचेर पडली. ताचे सरीं येवन बुद्धान ताका विचारलें, 'तूं होच धंदो करून पोट भरता रे?'

'हय भगवंता...' ताणें जाप दिली.

'संघांत येवन म्हजे वांगडा रावंक तूं तयार आसा व्हय?'

सुणीताक आपणाचेर अमृताचो पावस शिंवरपाक लागला अशें दिसलें आनी ताणें म्हळें, 'भगवंता सरीं रावंक मेळ्ळें जाल्यार हांव म्हाका भाग्यवंत लेखतलों.'

'चल, यो तर', अशें म्हणून बुद्धान ताका संघांत व्हेला. ताका शिकोवन धर्म-विनयाचो एक व्हड जाणकार केला. 'हो उणाक जातींत जल्माक आयिल्लो सुणीत येदो जाणकार कसो जावंक पावलो' अशें एकल्यान विचारलें तेन्ना बुद्धान ताका 'शील आनी संयम हांच्या आधारान' अशी जाप दिल्या आनी म्हळां, 'साळीक चिखलांतल्यानूच वयर सरता तशे तुमी 'उणाक' लेखतात त्या कुळांतूच बुद्धाचे पूत जल्माक येतात.'

हे 'सफाई कर्मचारी' खंयच्यानूय आयिल्ले आसूं, खंयच्याच गांवांत ते पळोवंक मेळनात.फकत शारांनीच दिश्टी पडटात. घडये शारांच्या संस्कृतायांचें हें उपफळ आसुंये. आनी फळा वयल्यान रुखाची परिक्षा घेवची जाली जाल्यार 'घाण काडपी' एक वेगळी जात निर्माण करपी संस्कृतायूच ना करून उडोवंक जाय ह्या निर्णयार आमकां देंवचें पडटलें.

लिसेवाचें शिकप करपाक पणजेंत रावतालों तेन्ना शारांतली घाण एकठांय करून ती काम्पालार न्हंयचे व्हांवतेंत व्हरून उडोवपी लोक पळेल्ले. तांचे मजगतीं गोंयचो कोण नाशिल्लो. चडशे सगळे राजस्थानी वा सौराष्ट्री आशिल्ले. पुराय महाराष्ट्रांत मराठी भास उलोवपी एक लेगीत सफाई कर्मचारी खंय पळोवंक मेळना. ह्याच वाटारांतल्यान ते कित्याक येतात, सोदचें पडटलें.

हालिंसाराक खंयच्याय धंद्यांत स्पर्धा चलिल्ली पळोवंक मेळटली. मेस्तपण फकत मेस्त करिनात, दुसरेय करतात. शिम्पीय खंयच्याय थरांतले लोक आसतात. आपणाक 'ऊंच जातिचे' मानतले लोक 'उणाक' मानिल्लीं कामां करपाक लागल्यात. पुणून भंग्यांचें काम करपाक भंगी सोडून आयजवेर कोणूच मुखार सरिल्लो पळोवंक मेळना. कित्याक? हें काम 'मनशान करपाचें न्हय' म्हूण्णूच मू? जाल्यार तें भंग्यांनीय करूंक जायना. तांणी हें काम करपाचें सोडून दिलें, 'ना, आमी हें काम जीव गेलो जाल्यारूय करपाचे नात. ना म्हळ्यार नाच ना' असो नित्शय केलो जाल्यारूच आमी सगळे (भंगी न्हय ते) निवळसाण कशी राखची ह्या प्रस्ना कडेन लक्ष दिवंक पावतले. घरदार रस्तो सगलें निवळ दवरपाची जतनाय घेतले. भंगी भंगीकाम करतले ते मेरेन आमी सगळे आळशी आनी सदळूच उरतले आनी देश बुरसोच करतले.

आमच्या फाटल्या पांच हजार वर्सांच्या इतिहासांत भंग्यांच्या हातांतलें भंगीकाम काडून तें आमच्या सगळ्यांच्या हातांत दिवपाचो वावर केलो तो फकत एकल्यान - महात्मा गांधीन. 'जण एकल्यान आपलो भंगी जावंक जाय' ही देख सगळ्यांक दिवन एक 'भंगी-मुक्ती आंदोलनू'य तांणी चलयलें. तांणी, हे खातीर, एक 'सफाई शास्त्रू'य रचलें. इतलेंच न्हय तर आपणा वांगडा आपणाल्या सांगात्यां मजगतच्या काकासायब, विनोबा, अप्पासायब सारकेल्या विद्वानांक लेगीत तांणी ह्या कामाचे तज्ञ, 'एक्स्पर्ट' केल्यात.

भंग्यांक 'सफाई कर्मचारी' म्हळे म्हूण भागना. भंग्यांचें कामूच बंद उडोवंक जाय. 'पोटा खातीर हो धंदो आमी करचे नात' असो खासा भंग्यांनी नित्शय करूंक जाय आनी 'कोणाक आमी असलें काम करूंक लावचे नात' असो बाकिच्यांनी सोपूत घेवंक जाय.

खरेपणानशीं आमच्या खंयच्याय गांवांत 'सॅप्टिक टँक' व्हरपाची गरज नाशिल्ली. सॅप्टिक टँकीक लागून दुसऱ्यां कडल्यान पायखिळे निवळ करून घेवपाची गरज उरना हें खरें. पुणून मळा-मुताचो उपयोग जावं येतालो तो जावंक पावना हें विसरूंक फावना. सैमान जण एकल्याक दिल्ल्यो ह्यो दोन खणी - एक भांगराची, दुसरी रुप्याची. ताचो उपेगूच करप ना हाचे सारकें कर्मकट्टेपण दुसरें ना. 'गोपुरी संडास' घरांघरांनी व्हरून पावोवचे. आनी गांधींनी रचिल्लें 'सफाईशास्त्र' जण एकल्यान शिकून घेवचें. देशांतलें बुरशेपणूय ना जातलें आनी भांगराच्या आनी रुप्याच्या साऱ्यान देशाचे फळफळावळिचें उत्पन्नूय वाडटलें.

भंग्यांक 'सफाई कर्मचारी' म्हणून आमी तांकां सदांकाळ ह्याच कामांत घुस्पावन दवरूंक सोदिनात मू? प्रस्थापितांचें कांय सांगूं नज. दुसऱ्यांक फटोवपाच्यो तांचे कडेन जायत्यो माणण्यो आसात. तांतलीच ही एक न्हय मू?

न्हय जाल्यार भंग्यांक भंगीकामा पासून मेकळे करपाचो कितेंय उपाय सोदून काडटले आशिल्ले. □□

वावुरपी संपादपी
'जाग' म्हयनाळें

'पडसादां'त (जाग, फेब्रुवारी २००१) उजवाडा आयिल्लें कवी पांडुरंगबाब भांगी हांचें पत्र वाचलें.

कविच्या आनी संपादकाच्या स्वातंत्र्याच्या संदर्भांत तांणी आपलें मत स्पश्टपणान मांडलां. ते खातीर, देख म्हूण, तांणी मराठी कवी बा.सि. मर्ढेकर हांचे कवितेची एक वळ दिल्या. ती वळ 'पिंपात मेले ओले उंदिर' अशी नासून 'पिंपात मेले ओल्या उंदिर' अशी आसा. मर्ढेकरांची ही खूब गाजिल्ली कविता हांवें पर्थून काडून वाचली. कवितेंत एक उतर लेगीत बदलत जाल्यार कवितेचो अर्थ कसो बदलता, तें मर्ढेकरांची ही कविता वाचल्यार आमच्या ध्यानांत येता.

'ओल्या'चे सुवातेर 'ओले' घालीत जाल्यार 'ओले'चो संबंद, अर्थाचे नदरेन, 'उंदिरां'कडेन येता. देखीक: ओले उंदिर.

पुणून, मर्ढेकरांचे कवितेंत 'उंदिरा'चे आदलें उतर 'ओल्या' अशें आशिल्ल्यान 'ओल्या'चो संबंद 'पिंपा'कडेन येता. देखीक: ओल्या पिंपात.

खंयचोय प्रतिभावंत कवी कवितेंत उतरां वापरतना भोवच जागरूक आसता. सजग आसता. कवितेंत, आशयाचे अर्थपूर्णताये खातीर तो उतरांचो क्रम बदलून वा गरजेप्रमाण नवीं उतरां घडोवन कवितेच्या वळी वळींक अर्थाचें नवें परिमाण दिता, अर्थाचीं नवीं तासां केळयता.

मर्ढेकरांसारक्या प्रतिभेचें देणें लाबिल्ल्या क्रांतिकारी युगप्रवर्तक कवीक कवितेंतल्या दरेका उतराचें अर्थाचे नदरेन आशिल्लें मोल आनी म्हत्व बेस बरें खबर आशिल्लें. म्हूण ताणें आपले एके कवितेंत नोंदोवन दवरलां:

''शब्द अर्थाआधी यावा
हे तो ईश्वराचे देणें.''

– परेश नरेंद्र कामत

वावुरपी संपादपी
'जाग' म्हयनाळें

नमस्कार,

जागाच्या फाटल्या चार अंकां सावन 'नंदालो पोर' हें सुमंतबाब केळेकारांलें आत्मकथन येता. हें आत्मकथन इतलें सुरबूस जालां की एकदां वाचपाक हातांत घेतलें म्हणटकीर सकयल दवरन दिसना. फुडलें वाचपाची उमळशीक लागता. सोपी, सरळ भास वापरिल्ल्यान वाचतल्याक समाधान मेळटा, 'बरी कोंकणी' वाचिल्ल्याचें समाधान मेळटा.

'नंदालो पोर' हाच्यो फाटल्यो चार खिस्ती वाचतकीर ह्या आत्मकथनाक 'नंदालो पोर' हें नांव कितलें सार्थ आसा तें कळटा. सुमंतबाबालीं ल्हानपणांतलीं 'कर्तुबां' वाचल्यार आयज आमी जे धीरगंभीर सुमन्तबाब पळयतात, ते भुरगेपणांत अशे आशिल्ले हाची मात्तूय सुलूस आमकां लागना. आतांच्या भुरग्यांक तसलें भुरगेपण मेळपाक भोव कठीण. ह्या आत्मकथनांत आयिल्ल्या मनशांबद्दल हांवें जाणटेल्यां कडल्यान खूब आयकलां, आनी ह्या आत्मकथनांत तांचो उल्लेख वाचतकीर खूब करमणूक जाता.

दुसऱ्या लेखकांचीं पुस्तकां उजवाडावपाच्या कामांत गुंतिल्ल्यान सुमन्तबाबान आपल्यांतल्या लेखकाक न्याय दिलोना. 'नंदालो पोर'च्या निमतान सुमन्तबाबांतल्या लेखकाक परत एकदां माची मेळ्ळ्या. ह्या लेखकाक असोच फुलूंक दिवंचो हें सुमन्तबाबां कडेन मागणें.

– सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

# नंदालो पोर हो...

(सातवी खिस्त)

सुमन्त केळेकार

सेगुंद ग्राव पास जाले उपरांत फुडलें पुर्तुगेज शिक्षण म्हळ्यार लिसेवाचीं सात वरसां काडपाचीं. पूण आमच्याच वेळार सरकारान एक नवो कायदो करून लिसेवार वचूंक सोदपी भुरग्यान 'आदमिसांवा'ची परिक्षा दिवंक जाय असो नेम केलो. हे परिक्षेक सेगुंदग्रावाचेच विशय आसले तरी तातूंत विचारिल्ल्या प्रस्नांचें सरूप इल्लें वेगळें आसलें.

हांवें सेगुंद ग्राव गेल्लो खरो, पूण पुर्तुगेज भाशेचें ज्ञान म्हणटात तें कांय पुर्तुगेज उतरांचो अर्थ जाणा जावपा पेलेकडेन वचूंक नासलें. कोणें पुर्तुगेजींतल्यान विचारिल्ल्या प्रस्नाची जाप पुर्तुगेजींत दिवंक काय जमनासलें. गांवांत रावन शिक्षण केल्ल्यान पुर्तुगेजींतल्यान केल्लें उलोवपय चडशें कानार पडनासलें. खंयचीय भास शिकतलो जाल्यार ती चड आयकुची पडटा. पणजे सारक्या शारांत टांचे पावलाक पुर्तुगेज उलोवपी लोक मेळटाले. ताका लागून शारांतले भुरगे किते ना किते ते भाशेंतल्यान उलोवंक पावताले. आमच्या सारक्या गांवांनी एक इश्कोल सोडलें जाल्यार पुर्तुगेजीचो गंद आयकूंक मेळनासलो. असली पुर्तुगेज भास गांठीक घेवन आदमिसांवाचे परिक्षेक रोखड्या रोखडें बसप शाणेपणाचें जावचेंना अशें दिशिल्ल्यान पयल्या फाराक खंयचेय तरी लिसेवाचो कुर्स शिकोवपी खाजगी संस्थेंत पयलें वरस करचें असो बेत थरलो. इंश्तितूत दे इंश्त्रुसांव ही बाब विनो महात्मो हांची संस्था. लिसेवाचे वर्ग तेन्ना रेबेलिल्या दोन माळ्यांच्या घरांत भरताले. शिकोवपीय बरे बरे प्रोफेसोर आशिल्ले. प्रो. भास्कर भांडारी, प्रि. लाला सुर्लकार, प्रो. साकरदांडो, खासा विनो महात्मो अशे एका परस एक आपापणाल्या विशयांतलो जाणकार. श्रीपाद साकरदांडो हो ऑफिसाचो मुखेल जाणवळदार आशिल्लो. भुरग्यांची हाजेरी घेवपाक चड करून तोच येतालो. एक दीस सदां भशेन तो हाजेरी घेवपाक क्लासींत आयलो. तो भुरग्यांचीं कुळनांवां मोट्यान वाचून तांची 'प्रेझेंती' घेतालो. केन्ना हाजेरी पटा वयले आंकडे उच्चारून कोण आयला कोण ना हाची नोंद घेतालो. आयिल्ल्याक 'प्रेझेंत' आनी येवंक नाशिल्ल्याक 'फाल्त' पडटालें. त्या दिसा ताणें पटा वयले आंकडे वाचून हाजेरी घेवंक सुरवात केली. म्हजो नंबर आयलो पूण हांव जाप दिना. म्हजें मन खंयच्या विचारान रंगिल्लें, कोण जाणा ! कुडीन वर्गांत आसून म्हजें मन खंय खंय हेडटालें तें म्हाकाच खबर ना ! साकरदांड्यान क्लासींत पळेलें तर हांव म्हज्या जाग्यार बशिल्लो आसां. म्हण ताणें म्हजें ध्यान ओडून घेवपाक 'सुमन्त' म्हण नांवान उलो मारलो. आनी तें नांव आयकना फुडें हांवें हजरजबाब्या वरी जाप दिली, 'केळेकार'. 'प्रेझेंत' म्हणपाचें थंयच उरलें. क्लासींतलो एकान एक भुरगो हांसलो तेन्ना म्हाका जाग आयल्या. आपणाल्याच विचारांत रंगून वचपाची तेन्ना वज लागिल्ली म्हाका. चवदा वरसांचे पिरायेचो हांव तेन्ना त्या निस्सत्व शिक्षणांत मनच रमनासलें. ह्या असल्या शिक्षणांत कसलीच गोडी ना अशें दिसतालें. आनी हेर गजालिंची आवड वाडिल्ली. पुरत्यांत ललीत साहित्य वाचपाची चटक लागिल्ली. मेळटा थंयच्यान मराठी नवलिका, कथा काणयो हाडून त्यो वाचीत बसतालों. पणजेच्या सरस्वती वाचनमंदिरांतल्यान दो. बुलबुलांची वळख काडून दर दोन दिसांनी बरीं बरीं पुस्तकां घेवन घरा वाचूंक हाडटालो.

हालींच हांव एका घरांतल्या लग्नाक गेल्ले कडेन म्हाका कोण तरी एकलो सोदता म्हणपाचें म्हज्या भावान सांगलें. तो म्हज्या भावाकूच हांव समजून कितें तरी सांगूंक लागलो तेन्ना आपूण सुमन्त न्हय अशें ताणें सांगलें आनी म्हाका आफोवन हाडून ताचे म्हऱ्यांत सोडलो. हांव ताका वळखलों ना. पूण ताणें आपणाली वळख करून दितना, आमी इंश्तितूत दे इंश्त्रुसांवांत शिकतना घडिल्ले 'सुमंत... केळेकार' हे ते घटणेची म्हाका मुजरत याद करून दिली. तो आशिल्लो दोतोर किर्तनी... आमचोच एक पयशिल्लो सोयरो. हे घटणेकच तेन्ना शेपन्न-सत्तावन वरसां जावन गेल्लीं.

लिसेवाचें पयलें वरस पणजे जयश्रीआकागेर रावन काडलें. त्या वरसाची परिक्षा सरकारी शिक्षणखातें घेनाशिल्लें. पूण आब्रील म्हयन्यांत जावपाचे 'आदमिसांवा'चे परिक्षेक बसपाचें आशिल्लें. अखेरेक ती परिक्षा एकदांची सोंपली. पूण ते परिक्षेंत हांव पास जालों ना. तेन्ना बापायन येवजिलें, हाका 'पुर्तुगेज कुर्स' जड वतलोसो दिसता; तेन्ना लिसेवाच्या शिक्षणाक घालिनासतना इंग्लीश शिकोवंक घाल्लो बरो. पणजे दुसऱ्यागेर दवरून ताका तरी कश्ट कित्याक दिवप? भयण आसली म्हूण कितें जालें?

इंग्लीश शिकपा खातीर म्हाड्डोळा 'सापळे' नांवाचो एकलो महाराष्ट्रीयन एक वर्ग चलयतालो. १९४२ साल आसतलें तें. पंदरा वर्सांचो जाल्लों हांव. आनी म्हाड्डोळच्या त्या वातावरणांत हांव सापळेच्या क्लासांत इंग्लीश शिकूंक वचूं लागलों. इतल्यांत लिसेवाचो ध्यास सुटिल्लो आनी इंग्लीशमॅन जावपाची तयारी चलिल्ली.

हो इंग्लीश वर्ग विठ्ठल म्हाल्याच्या घरांत एके कोनशाचे कुडींत भरतालो. म्हजे भशेनच आनीक धा-बारा भुरगे थंय शिकूंक येताले. सीताराम खंवटो, आयचो नामनेचो वकील जी.जी. कामत, ताचोच बापोलभाव वासुदेव, सखाराम प्रियोळकार, हांव बी धरून सगळेच बारा जाण. सापळे सराची परंपरेन चलत आयिल्ली अणकार करून शिकोवपाची पद्धत आशिल्ली. तो इंग्लीशीचो मराठींत अणकार करून शिकयतालो. जनरल इंग्लीशी खातीर आमकां एक रीडर लायिल्लें आनी ॲडिशनल इंग्लीशी खातीर दुसरें एक पुस्तक. ताचो पुराय भर इंग्लीश भाशेचेर आशिल्लो. हेर विशयांचें तो लागुनच घे नासलो. रीडरांतलीं लेसनां मराठींतल्यान शिकोवपाचीं आनी तींय इंग्लीश उतरांचो अर्थ दिवन. ते भायर ग्रामर शिकयतना तो एक वेगळो विशय जाल्ले वरी ताची शिकोवपाची तरा आशिल्ली. आनी इंग्लीश क्रियापदांचीं वर्तमान, भूत, भविश्य हीं रुपां जाल्यार तो आमकां तोंडपाठ करूंक सांगतालो. इंग्लीश सोडून तो दुसरे विशय घेतालो ते आशिल्ले इतिहास, भूगोल आनी सायन्स. गणीत विशयाचे तो वाटेकच वचनासलो. ताच्या मत्ता प्रमाण इंग्लीश तितलें आयली की जालें. आनी तें खरेंय आसलें. मुळाव्या शिक्षणाची ह्या वर्गांत चलिल्ली ती आशिल्ली इंग्लीश आवृत्ती. हाचे पयलीं आमचें जाल्लें तें मराठी शिक्षण आनी उपरान्तचें पुर्तुगेज शिक्षणय मुळावेंच आसलें. मागीर पयलीं शिकयल्लें गणीत परतें परतें घेवपाची कसली गरज, अशें ताका दिसतालें जावंये.

ते ल्हानशे कुडींत मुखावयल्या जनेला म्हऱ्यांत एका कदेलार बसून किनऱ्या आवाजांत तो शिकयतालो. तें कदेल तो एकासारकें हालयत उलयतालो. मुखावयले ल्हानशे तामरेतीर एक पावत आसतालीं. तसो तो

च मारनासलो. पूण बडी आनी मास्तर हांच्या दायजान निर्माण केल्लें
य विसरूंक दिनासलो. हो वर्ग सप्तकांतल्यान पांच दीस आनी तोय
चो आसतालो. एका वरसाक तीन यत्ता शिकोवपाचें काम सापळे सर
तो, हाका खरें म्हत्व आसा. कितेंय जायना, शिकपाच्या निमतान
ल्यान एक फावट म्हाड्डोळा फेरी जाताली. हो ट्युशनाचो वर्ग सुमार
वाय वर्स तिगलो. तितल्यांत आमच्यो तीन यत्ता जाल्ल्यो. दुसऱ्या
वथीच्या सुमाराक सापळे सर उठून गांवाक म्हण गेल्लो तो परतो
फिरकलोच ना. ताचे सुवातेर दोन तीन म्हयने कुंडयचो गजा कामत
शिकोवंक येवंक लागलो. तो गणीतच चड शिकयतालो. हेर विशयांत
ती नाशिल्ली. तो वतकच मात सापळे सरान सुरू केल्लो हो वर्ग
चो बंद जालो. कोणाची तरी दिश्ट बी लागली जावंक जाय ! अशे तरेन
शिक्षणाच्यो ह्यो भोयो चलिल्ल्यो. घरांतल्या जाणटेल्यांकय ताचें
शें पडटाशें दिसनासलें. आपणालो पूत कितें तरी शिकूंक वता
नच तांचें समाधान जातालें. त्या शिक्षणाक पळोवंक गेल्यार कितें
ग, आकार, दिशा कांयच नाशिल्लें. आमी शिकतात तें फुडाराक,
जातकच कितेंय तरी ताचो उपयोग करून पोटा पाणया खातीर कितेंय
, हाची जाणविकच कोणा जाणट्यां मर्दी आशिल्ली अशें दिसनासलें.
ल्या भुरग्यांकय नाशिल्ली आनी शिकूंक धाडपी जाणटेल्यांकय
शिल्ली. आपलो भुरगो कित्याक शिकता, कितें शिकता तें लेगीत
खबर नासतालें.

का साहित्य वाचपाचें पिशें लागलें तें पयलीं पणजे आसतना. उपरान्त
खंड असो पडलोच ना. हांव वाचतालों तें आशिल्लें मराठी साहित्य.
ळच्या वाचनमंदिरांतलीं पुस्तकां मेळटालीं. म्हाका सुरवातीक गोडी
ती मराठी कादंबऱ्यांची. नाथ माधवाच्यो सगळ्यो कादंबऱ्यो हांवें
काडल्यो. हरी नारायण आपटे तशेंच नारायण हरी आपटे हांचीं
च्या वातावरणाचेर बरयल्लीं ललीत पुस्तकां म्हाका खुबूच आवडूंक
लीं. उपरान्त ना.सी. फडक्यांच्या कादंबऱ्यांनी तर हांव पिसावनच
करतां करतां अनुवादीत साहित्य वाचूंक लागलों. पुरत्यांत
बूंच्यो कादंबऱ्यो म्हाका खुबच आवडूंक लागल्यो. कादंबऱ्यां वरीच
साहित्यय हांवें वाचून काडलें. तेन्नाचे गाजिल्ले कथाकार म्हळ्यार
खांडेकर, ना.सी. फडके, पु.भा. भावे, वि.वि. हडप, मामा वरेरकर,
अत्रे, गंगाधर गाडगीळ, लक्ष्मणराव सरदेसाई, वि.स. गुर्जर बी.
आयिल्लें खंयचेंच पुस्तक हांवें वाचले बगर सोडलेंना. चवदा पंदरा
ते म्हजे पिरायेर म्हाका आवडूंक लागिल्लें तें आशिल्लें फकत रोमांटीक
. ज्या साहित्यांत दादल्या-बायलांचो मोग उकतो जाल्लो आसता.
ज्या साहित्याची गोडी मात म्हाका वाडटे पिरायेच्या पांवड्या पांवड्यार
पावली.

हित्या विशिंची म्हजी आवड ही अधाशा वरी आशिल्ली. तरणायेच्या
यले ते म्हजे पिरायेर म्हाका मोह घालपाची तांक फकत ह्या असल्या
यांत आशिल्ली. म्हजें हें वाचपाचें पिशें चडटे कळेर पाविल्लें. फुडें हांव
जातां तसो अदीक वाचूंक लागलों पूण वाचता त्या साहित्याचें सरूपय
लागिल्लें. नाटकांचो तर म्हाका छंदच लागिल्लो. नाटकां हांव
लों तेच भशेन रंगभुंयेचेर संवगांय करूंक लागिल्लों. मागीर मागीर
र ललीत साहित्यांतल्यो सगळ्यो तरा हांव आवडीन वाचूंक लागलों.
, ललीत निबंद, प्रवासवर्णनां बी. जिवितांत जें कितें हांवें वाचलें ताची
रूच म्हजे जिबे वयली इल्लीय उणी जावंक ना. तशें पळोवंक गेल्यार सभावान
हांव खुबच भिडेस्त आनी लजेस्त. मोगाची भावना काळजांत फुलता
आसतनाय म्हजे वृत्तीक जुळना आनी कालेतीक पेलना असलें कसलेंय
धाडस करपाचें म्हाका केन्नाच जमलें ना. ताका लागून भावना उकतावपाची
संद हांवें केन्नाच घेतली ना. ह्या म्हज्या चिड्डल्ल्या भावनांक लागून घडये,
मोगाचे भाव आस्पावलेल्या पुस्तकांच्या वाचनान म्हाका जाय आशिल्ली
खोस आनी थाकाय मेळटाली जावंये. उदात्तीकरणाची (sublimation) ती
एक सभावीक तरा मानची पडटली.

म्हज्या भुरग्या वयार हांवें जाल्यार इंग्लीश साहित्य म्हणटा तें केन्नाच
वाचलें ना. इंग्लीश ही स्कुलांत शिकपाची भास; ती शिकपाची जावं वाचपाची
ती परिक्षेक विचारिल्ले प्रस्न सोडोवपा खातीर. इंग्लीश वाचप आनी तें खोस
मेळोवपा खातीर म्हळ्यार तें खरें लेगीत दिसनासलें. इंग्लीशी विशीं असो हो
पूर्वग्रह मनांत आशिल्ल्यान खंयचेंय इंग्लीश पुस्तक गोडयेन वाचूंक
घेतिल्ल्याची म्हाका तरी याद ना. पुर्तुगेजीची तर इंग्लीशीच्या पाश्ट स्थिती.
पुर्तुगेजीचें ज्ञान तें कितलें आमचें? त्या भांडवलार एकाद्रें पुस्तक वाचपाचो
यत्न करप म्हळ्यार लेगीत व्हडलें धाडस म्हणपाचें !

त्या काळार कोंकणींतल्यान बरयल्लीं पुस्तकां आसात हें सांगल्यार
लेगीत म्हजे सारक्याक खरें दिसचें नासलें. म्हज्या हातांत कोंकणींतलें
पयलें पुस्तक आयलें तें वामनबाब वर्दे वालावलीकार हांणी मुजरत भुरग्यां
खातीर बरयल्लें 'भुरग्यांलो इष्ट' हें माणकुलें पुस्तक. ह्या पुस्तकान म्हजी
नदरूच घुंवडावन उडयली. हांव आज मेरेन आवडीन, रुचीन आनी
उमळशिकेन वाचतालों तें मराठी साहित्य म्हाका खुबच प्रिय आशिल्लें खरें,
तरूय अंतस्करणाक आफडून वचपी साहित्य म्हणटा तें आमी आयकतां,
उलयतां ते घोळटिकेंत आशिल्ले भाशेंतलें आसूंक फाव हाची पयलेच फावट
म्हाका जाणवीक जाली. १९३५ वरसा उजवाडा आयिल्लें फकत चार आणे
मोलाचें हें पुस्तक लाख लाख मोलाचें आशिल्लें. भुरग्यां-मानसशास्त्राचो
एक उंचेलो आदर्श कोणाय मुखार दवरचो जालो जाल्यार ह्या सुपुल्ल्या
पुस्तका कडेन बोट दाखोवचें पडटलें. ह्या पुस्तकांत कितें ना? जिवितांतले
सगळे आदर्श बत्तीस पानांच्या ह्या एकाच पुस्तकांत झगझगतात. हांवें तें
पुस्तक वाचलें आनी ताचो म्हजेर इतलो प्रभाव पडलो की हांव तें मेळटा
ताका वाचून दाखोवंक लागलों. म्हाका कितें तरी गवसलां पूण तें कितें तें
सांगूंक येना जाल्ल्यान हांव आयिल्ल्या गेल्ल्याक तें वाचून दाखयतालों
आनी ताचो ताचेर परिणाम कितें जाता तें नियाळपाचो यत्न करतालों. हें
एकूच पुस्तक सोडून कोंकणींतले आनीक खंयचेंच साहित्य त्या वेळार म्हाका
मेळ्ळेंना. ना म्हणपाक मडकयचे जात्रे वेळार कांय बेकारचावडी थंयच्याच
थळाव्या लोकांच्यो भगल्यो मारीत एक जायरातीच्या आकाराचें पत्रक
कवनांच्या रुपान उजवाडा हाडटाले आनी तें सगळ्यांक वांट्टाले. तें
खऱ्यांनीच फकाणी सरुपाचें आसतालें आनी म्हजे सारको तें आवडीन वाचून
पोट फुटसर हांसून घेतालो. फुडें कांय तेंपान 'शणै गोंयबाब' ह्या टोपण
नांवान खासा वर्दे वालावलीकार हांणी बरयल्लीं नाटकां, पुरत्यांत १९१३
वर्सा उजवाडा आयिल्लें 'मोगाचें लग्न' हें नाटक आनी राणू नायक हांचीं
'रायबाऱ्याली व्हाड्डीक' आनी 'चवथीचो चंद्र' हीं नाटकुलीं हातांत पावलीं
आनी कोंकणींतल्यान बरयल्ल्या साहित्याचोय बेस बरो प्रभाव पडूंक पावता
हाचो अणभव येवंक लागलो.

सापळे सर आनी उपरांत कामत सर हांचे इंग्लीशीचे वर्ग सासणाचे बंद

जातकच मागीर शिकतलो जाल्यार एक तर फोणेंचे आल्मैद कॉलेजींत वचपाचें नाजाल्यार बिराड करून पणजे रावपाचें हे दोनूच पर्याय आसले. हांव, म्हजो भाव आनी एक भयण, तशेंच बापोलयाचे दोग पूत आनी एक धूव म्हळ्यार आमच्या घरांत पुर्तुगेज-इंग्लीश शिकपी स जाणां जाल्लीं. ह्या सगळ्यांच्या शिक्षणाची तजवीज बरे भशेन जातली जाल्यार बापाय मुखार एकच मार्ग आशिल्लो, तो म्हळ्यार पणजे बिराड थाटपाचो.



आश्विन म्हयनो म्हळ्यार सोंपत्या पावसाचे दीस. खंय अशीं उरिल्लीं सुरिल्लीं कुपां एकठांय येवपाचीं आनी आडवेळी अशी एक दडक शिंपडुपाची. गोंयांत सगळे कडेन देवळांनी नवरात्रांचो बोवाळ सुरू जाल्लो. मराठी प्रदेशांतले बरे बरे हरदास गोंयांत येवन हाजेरी लायताले. ताका लागून गांवगिऱ्या वाटारांत रात पडली की देवळांत नवराती निमतान नेमान वचपी लोकांची येरादारी वाडटाली. आनी तितलोच भोंवतणचो परिसर बोवाळिल्लो दिसतालो. आमच्या भुरगेपणांतलो तो काळ आयचे वरी नासलो. जिवाक रिझोवपी कार्यावळी चड करून त्या वेळार देवळांनीच जाताल्यो. आनी तांकां मुजरत लोक गर्दी करताले.

बांदोडेंच्या महालक्ष्मी देवळांतली नवरातिची तिसरी रात ही केळेकार घराण्याची. वर्सासना भशेन ते राती घरचीं सगळीं जाणां बांदोड्या वतालीं. रातचीं आठ जावचे पयलीं जेवन खावन घेवप आनी कीर्तन सुरू जावचे पयलींच देवळांत पावप हो नित्यनेम. फुलां, प्रसादाचे पनवार म्हळ्यार पंचखादाय, केळीं, चिबूड, तवशीं बी फळां सोमतींच एकाच कामिन्यांवांतल्यान घेवन मानाय येताले. हांव कीर्तनाचो खुबच शोकी. हरदास गोड आवाजाचो आसल्यार तर विचारुंकच नाका. हांव तातुंतूच रंगतालों.

घरचीं सगळीं वर्सा भशेन कामिन्यांवांतल्यान वचपाचीं आशिल्लीं. हांवें आनी मोहनान मात वेगळोच बेत केल्लो. आतां आमी पयलीं भशेन फकत मजे खातीर सायकलीन भोंवनासले. पूण खंयूय वचपाचें जाल्यार सायकलीन वचपाक आमकां आवडटालें. नवरातिचे तिसरे राती सांजचेच बांदोड्यां कार्रेरिंतल्यान वतले आनी थंय बुकीमामागेर रावतले अशें आवयक सांगून आमी दिसा उजवाडेच घरांतल्यान भायर सरले. स साडे स च्या सुमाराक म्हाड्डोळची सायकल भाड्याक घेतली आनी आमी दोगूय तिनसांजच्या त्या मिणमिणट्या उजवाडांत करंजाळच्यान महालक्ष्मीक वचपाक भायर सरले. पुराय मातयेचो रस्तो. शिमेपायण काडटा म्हणसर काळोख दाट जावंक लागिल्लो. शिमेपायणी मुखार कांय वाट चडावाची आशिल्ल्यान सायकल हातांत घेवन चलत रावले. मागीर देंवती लागताली. ती काडून आमी तळा वयल्या सपाट रस्त्यार पावले. फुडें वतांत तितलो काळोख खुबच काजळूंक लागिल्लो. आश्विन शुद्ध तयेक तिनसांजच्या चन्द्रिमाची कोर मळबांत लखलखपाची पूण त्या दिसा ती कोणेंच पळोवंक नासली. मुखावयलो रस्तो जाल्यार इल्लोय झळकनासलो. फुडें फुडें जाल्यार रस्त्याचो अदमास घेवन सायकल चलोवपाची पाळी आयिल्ली. करंजाळे पुंडो कामतीच्या घरा लागसार पावता म्हळ्यार मळबांत कुपांच कुपां दाटिल्लीं दिसूंक लागलीं. करंजाळे बंदरार पावले तेन्ना इल्लें इल्लें शिरशिरूंक लागिल्लें. आतां फुडें कशें करपाचें हे येवजणुकेंत आमी पडले. रातिचो सदचो काळोख, भरीक कुपां दाटिल्ल्याचो काळोख हाका लागून पावसाचो अदमास बांदूंक जायना जालो. त्या बंदरार कोणाले तरी भितोडेंत रावन शिरशिरता तो पावस वचपाची आमी वाट पळेताले. पूण तो सामको वतलो आनी आमी भायर सरतले हाचो योग कसोच येना जालो. अशें हे कितलो वेळ थांबपाचें तें कळना जाल्ल्यान निमणें आमी थारायलें की कितें जाता तें जावं, आमी पयलीं भायर सरुंया आनी पावसाक नेट येवचे पयलीं मानशे कडल्यान सुरू जाता आनी कोनरांत सोंपता तो बांद काडून मागीर कितें करपाचें ताची थारावणी करुंया. हो शिरशिरो पावस कितें आमकां सामकोच भिजोवचो ना. मुस्तायकी इल्ली ओली जातली पूण ती आंगाचे उबेनूच सुकून सडसडीत जातली. अशे तरेन अखेरचो निर्णय घेवन आमी भितोडेंतले भायर सरून रस्त्यार पावल घालें.

आठ धा पेदालां मारून मानशेचे पेलेकडेन फुडें सरता म्हळ्यार गडगड्याची पयली नाळ पेटली. सांगाताक मळबांतली जोगलावणी. ती इतली वाडिल्ली की काळखान दाटून गेल्ली ती बांदा वयल्या माडां वळेऱ्यां मदली वाट चकचकीत बरी दिसपाक लागिल्ली. आनी इतल्या बोवाळांत, इशाऱ्याची नाळ पेट्टकच झुजाक सुरवात जाता ते वरी पावसाचो तडाखो सुरू जालो. एक दडक येवन वता म्हणसर, खंड पडूंक दिनासतना रोखडीच दुसरी, मागीर तिसरी, अशो त्यो दडको तितल्याच गडगडाटांत येताल्यो. आनी मळबांत तर विजांनी सामको अच्छेव आडायल्लो. भर आशाढांत, पावसाचो भार आसता तेन्ना लेगीत हे तरेचो पावस पडिल्ल्याचें आमी केन्ना पळोवंक नासलें. आनी आश्विनांतलो हो पावस म्हळ्यार आडवेळो. ताचें आनी हें असलें रुद्र सरूप पळोवन सगळें विपरीतशें दिसतालें. विजांचो तो चकचकीत नाच पळोवन कुरुक्षेत्रा वयल्या पांडव-कौरवांच्या झुजाची थोडी भोव कल्पना येताली. बाणार बाण. आनी तेय एका परस एक खर, ना नपश्चात करपाची तांक आशिल्ले. तो देखाव पळोवन आमी एका मोटव्याच माडाचो आलाशिरो घेतलो आनी ताच्या मुळसांत एकामेकांक सांवरीत मोन्यांनी उबे रावले. खंयच्या वेळार कितें जायत तें समजनाशिल्लें. बांदा वयले पुरणेचे मातयेंत उब्या आशिल्ल्या माडां भितरलो एकाद्रो माड त्या वेळार सुटिल्ल्या वावाच्या धपक्यान केन्ना कोंसळत तें सांगूं जायनासलें. विजांचो लखलख, कुपांचो गडगड आनी तुफाना वेळार सोंसावन उसळटा तसलो वाव. ह्या तिनय गजालींक लागून आमच्या काळजांत इतली धडधड सुरू जाल्ली की तोंडांतल्यान उतर लेगीत काडपाचें आमकां काळीज जायनासलें. ते तीन कातरीर अणभविल्लो तो पावसाचो रणखेव पुराय जिवितांत ताचे पयलीं आनी ताचे उपरांतय केन्ना पळोवंक नासलो. दडकांर दडकांनी पडिल्ल्या पावसाक लागून बांदा वयलो सगलो वाटार उदकाचें तळें जावन गेल्लो. बांदाच्या दोनय व्हटांतलीं शेतां, उदकान उपाट भरिल्ल्यान न्हंय खंयची आनी शेत खंयचें तें लेगीत कळनासलें. उदकाच्या मदेकाक आशिल्ले एके जमनिचे शिरेर आमी शेणिल्ले म्हळ्यार जाता. जिवाच्या भंयान 'हो पळे पावस चल्लो', 'पावस वता दिसता, 'रोखडोच पावस वतलो' अशें पुटपुटत आमी तिश्टत राविल्ले. पावसाचो तो सांवार मंदावतासर अर्द-पावूण वर वाट पळोवची पडली. आनी म्हणम्हणसर पावसाचेर आयिल्लो अवसर एकदांचो थांबलो.

वाऱ्याच्या झोतान मदीं मदीं कितें तरी मोडून पडिल्ल्याचे आवाज कानार मारताले. पयशिल्ले तशे लागशिल्लेय. चड करून माडांचीं सुकिल्लीं चुडटां घोऽ करून माडा मुळांत घालून घेतालीं. सुकिल्ले नाल्ल, हुंदरांनी पोखरिल्ले नाल्लाचे बोंडे कितें आनी कितें म्हण सांगपाचें ना. मदींच खंय तरी पयस

जुनाट झाड लवंडल्ल्याचो आवाज कानार मारतालो. झाडांच्यो
ल्यो खांदयो जाल्यार कितल्यो कोंसळिल्ल्यो ताका सुमार नासलो.
म्हणटां वावाचो नेट उणो जालो. तरीय मळबांत चलिल्लो विजांचो
मात कसलोच भयांक्रूत आवाज करिनासतना, देवतेचे पालखे
यल्या पेण्या वरी प्रसन्नतायेन नाचिल्ले वरी दिसतालो. अर्द वरा पयलीं
आसमंताक भयभीत करून उडोवपी तो पावसाचो दुर्गावतार आतां
रूप धारण करूंक लागिल्लो. सैमाचीं हीं दोन विंगड रुपां अर्द वराच्या
न आमी उकत्या दोळ्यांनी पळेल्लीं.

आमी इतले भिजिल्ले की तें भिजप नाशिल्लेंच. ताका पळोवंक गेल्यार
व म्हणपाचें. आंगा वयली सगळी मुस्तायकी ओली चिम्ब जाल्ली.
त आशिल्ल्यो एक दोन नोटी लेगीत फुगून चिंवलेल्यो. पूण करतले
? आतां फुडें काळखांतल्यान सगळी वाट माड्डून बांदोडें कशें गांठप
आमचे मुखार खरो प्रस्न आशिल्लो. सायकलीर बसून वचत जाल्यार
घातमारें कर्तुप जातलें आसलें. पावस थांबून मळ मातशें नितळ जाता
ांक रातचीं णव जाल्लीं. आतां पांयांनीच वाट चलून बांदोड्या वचपाचें
तेंय किण्ण काळखांतल्यान. तो एक जिवा वयलो खेळ आसलो. वाटेर
झाडबीड मोडून पडलां तें कळटलें जाल्यार आमचे कडेन उजवाडाचें
ंच साधन नाशिल्लें. तरूय आमी धडपडत वाटे वयल्यान चलपाक
त केलीच. चलतां चलतां पयलींच आमकां लागिलो तो पूर्वाचारा देवळा
तो वाडो. पावसाच्या तडाख्यांतल्यान बरे भशेन वाटावल्लो वाड्या वयलो
लोक तटमटीत जागो जाल्लो आनी ताचें स्रय पूर्वाचारा देवाक दिवपा
र कांय जाण भायर येवन भोंवतणची सुलूस घेताले. कितेंय - तांचीं
बी मोडल्यांत जाल्यार ताचो अदमास घेवंक ते सोदताले. इतल्यान
वयल्यान आमी दोग जाण सायकल हातांत घेवन दोळे फुटक्यावरी
याचो अदमास घेत हळुहळू चाचपडत वतात तें कोणा एकान पळेलें.
पाक भटाबामणाले भुरगे, भिजून चिप्प जाल्ली मुस्तायकी घालून
खांतच चलत रावल्यात, तें तांच्या मनाक सोंसलेंना. तांकां आमी आमची
ख दिवंक सोदनासले. वळखल्ले जाल्यार दुसऱ्याच दिसा फांतोडेर ही
र आमच्या सोयऱ्यांगेर पावतली आसली. आनी सांज जायतर ती थेट
च्या घरा पावपाक तिश्टत बसपाची गरज नासली. कसलीच जागमूग
नासतना आमी चलत रावल्यात तें पळोवन कोणा एकल्याक आमची
ळट दिसली आनी ताणें घराच्या दारा कडेन राविल्लो थंयच्यानच आमकां
रलें, 'कोण रे बाब तुमी? ह्या असल्या काळखांत तुमी खंय चल्ले?'

'देवते महालक्ष्मीक, बांदोड्या.' आमी अंदल्ल्या आवाजांत जाप दिली.

'मातशे रावात. उजवाडा खातीर तुमकां एक चूड दितां.' अशें सांगून
धा मिनटां भितर ताणें एक पेटयल्ली चूड हाडून मोहनाच्या हातांत
.

'खूब उपकार जाले आं' अशें म्हणून तोंड आडोसाक करून मोहनान
ूड घेतली आनी आमी आमचे वाटेक लागले.

बांदोड्या महालक्ष्मी देवळा कडेन पावसर वाटेर व्हडलिशी पडझड जाल्ली
ली ना. कोनरांतलो किरिस्तांवा वाडो जातकच सकल मेळटा त्या बांदार
ल्लेचे दोन खांदे मार्गार शेकानशेक मदींच पातळिल्ले. ते हुपून पेले वटेन
म्हळ्यार ती एक कसरतच आशिल्ली. भोंवतणी गुपाट काळोख पातळ्ळा
दुसरे वटेन वचपाची वाट सोदून काडटलो जाल्यार हातांत आशिल्ली
क चूड सोडून दुसरें कसलेंच साधन ना. हे दोनूय खांदे कुळागराच्या
आड्या वयल्यान पडून फुडें रस्त्यार पातळिल्ले. तशें जाल्ल्यान आड्या
म्हन्यांत आपशींच एक पोकळ सुवात तयार जाल्ली. तिचो फायदो घेवन
आमी दोगांयनीय ते पोकळेंतल्यान पयलीं सायकल पेले वटेन धुकल्ली
आनी उपरांत आमीय तेच वाटेन पलतड मारली. वतां वतां मार्गारच एक माड
पडिल्लो दिसलो पूण तो मार्गा कडेचोच जाल्ल्यान, वावाच्या धपक्यान मुळा
सयत हुमटून शेतांत पडिल्लो. ताची आमकां कसलीच बादा जालिना. इतले
भितर चलतां चलतां आनीक एक गजाल आमच्या लक्षांत आयली ती
म्हळ्यार, पावसाचो जो सांवार आमी करंजाळ-कोनराच्या बांदार पळेल्लो
आनी अणभवल्लो ताची झळ तितल्या प्रमाणांत ह्या वाटाराक लागूंक नासली.
ह्या वाटाराक पावस पडिल्लो पूण तो मोडाचो न्हय. मोड आयिल्लें पूण
बांदोड्या पावता म्हळ्यार तें शेळेल्लें, पोल जाल्लें.

चलतां चलतां निमाणें आमी एकदांचे महालक्ष्मीच्या प्राकारा लागसार
पावले. फुडें आतां कितें करपाचें तेंच आमकां यवजनासलें. देवळा मुखार
पावता जाल्यार हरदासालें कीर्तन बी सोंपून आरत्योय बी सोंपतआयिल्ल्यो.
धोलताशाच्या गडगडाटांत आनी सूर सेनायेच्या सुरेल स्वरांनी देवतेचें मखर
तिनूय दिशांनी नाचत फिरतालें. इतल्यांत आमी एक माणणी केली. भिजिल्ली
मुस्तायकी आंगार घेवन घरच्या लोकांचे नदरेक पडप समा नाशिल्ल्यान
कोणाचेय नदरेक पडचे पयलीं बुकीमामागेर वचून थंय मुस्तायकी बदलुपाची
कितेंय तरी वेवस्था करची अशें येवजून बुकीमामाल्या घरा गेले. बुकीमाम
म्हळ्यार आमचो सोयरो कसो. थंय वचून पळेत जाल्यार घरांतलीं सगळीं
जाणां आरत्यो पळोवंक देवळांत गेल्यांत. आमी घराचे पडवेर तशेच बसून
रावले. कांय वेळान बुकीमामाली बायल हातांत एक बॅटरी दिवो घेवन येता ती
आमकां दिसली. आमचो हो भिजिल्लो अवतार पळोवन तिका अजाप जालें.
'कितें जालें तें सगळें मागीर सांगतां पूण पयलीं बुकीमामाक आपयला म्हण
हळूच सांगून ताका घेवन यो' अशें आमी तिका विनवन सांगलें. ती आयिल्ली
तशी परती गेली आनी पांच मिनटां भितर बुकीमामाक घेवन आयली. तो
हरदासा बरोबर तबल्याक आशिल्लो. आमची ही अशी काया कशी जाली तें
ताका अदमासान कळ्ळें. आमी दोगूय अजून बांदोड्या कशे पावलेना अशें
बापूय एक्कासारकें परतें परतें विचारतालो म्हणपाचें ताणें सांगलें. 'आमी
सायकलीन हांगा आयले' ही इतली गजाल सोडून बाकिचें कितें आनी कशें
बापायक सांगपाचें तें तूंच सांग अशें हांवें ताका सांगलें. तो धांवधांवत प्राकारांत
गेलो आनी आमी पिरवोळच्यान येता आसतना पावसांत पुराय भिजून
आयिल्ल्यान देवळांत आयलेना आनी ते आपणागेर आसात ही गजाल ताणें
बापायच्या कानार घाली. तितल्यान तांचो हुसको ना जालो आनी आयिल्लीं
तीं सगळीं कामिन्यांवांतल्यान परतीं घरा वचूंक भायर सरलीं. इतल्यानआमी
बरे भशेन वाटावले अशें आमकां दिसलें.

उपरान्त आमच्या आंगा वयली ओली मुस्तायकी आमी काडली आनी
ती पिळून बरी तशातशी वारो येता ते पडवे वयले दांडयेर सुकत घाली.
आंगार गुठलावपाक बुकीमामा बायलेन आमकां दोन पुडवीं दिलीं. बुकीमामान
आमकां तीं न्हेसयलीं. इतलें करता सवरता सर मध्यान रात जावन गेल्ली.
पोटांत तर कांयच नाशिल्लें. भुकेन जीव खासावीस जाल्लो. इतले म्हणसर
बुकीमामा बायल हातांत दोन थाळयोभर कांद्या फोव आनी हुनहुनीत दोन
कोपां च्या घेवन भायर आयली. ते भायर देवा प्रसादाची पंचखादाय आनी
कांय केळ्यां कुडके हाडून आमचे मुखार दवरले. आमी प्रसादाक देवळांत
नाशिल्ले हाची तांकां याद जाल्ली. आमी तें सगळें खावन पोटाक मातशी

थाकाय हाडली आनी तशेच उठून हांतुणार पडले. पावसान धरणी इतली भिजयल्ली की हवेंतल्या शेळावान सगळें थंड थंड किरांव दिसतालें. हांतुणार पडले केन्ना आनी न्हीद लागली केन्ना तें लेगीत कळ्ळें ना. सकाळीं जाग आयली तेन्ना णव वरां जाल्लीं आनी रखरखीत वोता किरणां आमी न्हिदिल्ले ते कुडींत शिडकावल्लीं.

सकाळीं उठचे उठून बुकीमाम तशातशी आमची मुस्तायकी घेवन मडवळा वाड्यार गेल्लो. तो आमी उठचे थोडो वेळ आदीं घरांत येवन रांदचे कुडींत बसून च्या घेतालो. सकाळीं उठून पळेत जाल्यार मुस्तायकी ओलीच आसा अशें ताका दिसलें आनी ताणें कळाव लायनासतना मडवळागेर खासा आपणे वचून ती मुजरत फेरऽ तापोवन सुकोवन घेतली आनी तांच्यो घडयो करून त्यो घेवन तो आयिल्लो. उपरांत आमी तोंड धुता आनी च्या-खाणाचो बोवाळ सरता सवरता सर साडे धा वाजतात. मागीर आमी भायर सरपाचे तयारेक लागतात. महालक्ष्मीच्यान भायर सरून, नागेशींच्यान ती व्हडली चडटी काडून फर्मागुडयेर वचून थंयच्यान नीट म्हाड्डोळा वचप असो आमी बेत करतात. बुकीमाम आमकां प्राकारा भायर मेरेन पावोवंक येता आनी थंयच आमी ताचो निरोप घेतात. सोयरे जायते जायत पूण बुकीमामाल्या कुटुंबाची सर कोणाक येवची ना.

म्हाड्डोळा पावनाफुडें शेटीगेर व्हरून तागेली सायकल आमी दितात. ताचे पयशे कितले ते फारीक करतात आनी तशा तशे आमी घरचे वाटेक लागतात.

पावसाचो असलो हो आडांगी अवतार जिवितांत आमी पयलेच फावट आनी एकच फावट पळेल्लो. ताचो विसर पडप ह्या जल्मांत तरी आमकां केन्ना शक्य जावचें ना.



धाकली दिवाळी दोन तीन दिसांर पाविल्ली. आमच्या इंग्लीशीच्या ट्युशन वर्गाक दिवाळेची सुटी पडिल्ली. सापळे सर दिवाळेचे सुटयेंत मुम्बय गेल्लो. पूण संवयेक लागून दिसांतल्यान एक फावट तरी म्हाड्डोळा गेले बगर चैन पडनाशिल्ली. श्रीपाद प्रियोळकारालें लॉज तेन्ना दत्ता पैले चाळींत आशिल्लें. त्या लॉजार वचप म्हळ्यार आमचे संवकळिचें जाल्लें. आमकां शिकपाक लागता तें कसलेंय सायित्य जाय पडल्यार तें श्रीपाद प्रियोळकाराल्या लॉजार घेयात अशें बापायन सांगून दवरिल्लें. शिक्षणाच्या सायित्या बरोबरच केन्ना केन्ना लागलें जाल्यार आमी दुसरेंय सायित्य थंय घेताले. तें घेतलो जाल्यार आमकां रोख दुडू दिवचे पडनासले. कितें घेता ताचे सगळे पयशे बापायच्या खात्यार तो घालतालो. हे फावट हांव लॉजार पाविल्लों तो थंयच्यो रंगीत फोली घेवपाक. दिवाळी लागीं पाविल्ल्यान ऐन त्या वेळार आकाशदिवो करपाचो आमी बेत केल्लो आनी ताका लावपाक रंगीबेरंगी फोलिंची गरज आशिल्ली.

हांव सांजेच्या पांचेक वरांचेर लॉजार पावलों तेन्ना कोण तरी दोग जाण थंय गल्ल्या कडेन बसून खबरी करताले. 'आयकलां तुवें श्रीपादबाब, दिवाळे दिसा सांजवेळा अंत्रुजेंतलीं देवळां पळोवपा खातीर म्हाड्डोळच्या कोणा एकल्यान खंय मुजरत एक कामिन्यांव भाड्याक केला. ताचें लोतासांव खंय वीस लोकांचें. दर एका पासिंजराक खंय बारा रुपये दिवचे पडटले. तितल्यान ताचो खर्च भागतलो. कामिन्यांव दिस्त दनपारच्या दोन वरांचेर म्हाड्डोळच्या तिट्या वयल्यान भायर सरतलो आनी तिनसांजचीं सात वरां जावचे पयलीं परतो येतलो. देवळांक भेटी दितलो तीं म्हळ्यार नागेशींचो नागेश, बांदोडेंची महालक्ष्मी, कवळेंची शांतादुर्गा, रामनाथींचो रामनाथदेव, शिरोडेची कामाक्षी आनी नवदुर्गा.'

'म्हजें एक नांव घाल बाबा. देवळांनी आतां ह्या वयार कोण सपसप पावता? बरें जालें तुवें सांगून. हे घे म्हजे बारा रुपये आनी म्हजें नांव घालूंक सांग.'

हांव हें तांचें उलोवप सगळें आयकतालों. म्हाकाय मनांत दिसलें, 'इतलीं हीं देवळां पळोवंक मेळटलीं आनी कामिन्यांवांतल्यान भोंवकय मेळटले जाल्यार हांवेंय कित्याक वचचें न्हय?' म्हज्या मनांत एक उमेद उदेली. इतल्यांत श्रीपादबाबान म्हळें, 'आरे सुमन्त, तूं कसले येवजणेंत पडला? तुका बी हे भोंवडेक येयन दिसलां काय कितें?'

'ना, ना. म्हाका पयलीं बापायक विचारूंक जाय. ताणें वच म्हळ्यार येवपाचें.'

'तो कितें नाका म्हणटलो तुका? म्हाका दिसना. इतल्या थोड्या पयशांत तुका कितलीं तरी देवळां पळोवंक मेळटलीं. तुजे कामिन्यांवाचे बारा रुपये जाय जाल्यार पयल्या फाराक हांव म्हजे कडले दितां. मागीर दिवाळे दिसा तूं येतलो तेन्ना म्हाका परते कर. असो फाटीं फुडें जावपाची गरज ना.'

हांवें यवजिलें, ही एक बेस बरी संद आयल्या भोंवपाची. सोड कित्याक? पूण हांव म्हज्या बापायक बेस बरो वळखतालों. तो मनांत आयल्यार 'वच' म्हणून रोखडेच पयशे काडून दितलो. आनी एक फावट 'ना' म्हळें जाल्यार दांतांतलें 'ना' कशेंच सोडचोना आनी वचूंक दिवचो ना म्हळ्यार ना. हांव घुटमळ्यांत पडलों पूण जिबेक लागिल्लें हांयस कशेंच सोडन दिसलेंना आनी अखेरेक 'घाल म्हजें नांव' अशें सांगून सा हो सा केलें.

दिवाळे पयल्या दिसा मात हांवें आवयक सांगून उडयलें, 'मामी, जाणा मगे, म्हाड्डोळच्या कोणा एकल्यान दिवाळे दिसा भोंवपाक भाड्यान एक कामिन्यांव केला. तो कामिन्यांव ह्या वाटारांतलीं सगळीं देवळां भोंवडावन हाडटलो. हांवें त्या तांच्या लिस्टांत म्हजेंय नांव घालूंक सांगलां. वचूं मगे हांव? फकत बारा रुपये दिवपाचे.'

म्हजे आवयक हांव 'मामी' म्हणटालों. आमच्या भुरगेपणांत आमगेर भाच्यांचें खुबच येवप वचप आशिल्लें आनी ते सगळे तिका 'मामी' म्हण उलो करताले. तें एक्कासारकें आयकून आमचीय ती 'मामी' जाल्ली. हांव आनी मोहन तिका मामी म्हणटाले खरे पूण उपरान्तचीं भावंडां मात तिका 'आई' म्हणूंक लागिल्लीं. तेंय घरांतल्या दुसऱ्या भुरग्यांचें आयकून. बापायक मात आमी एकाच नांवान उलो मारताले. आमी ताका 'जा' म्हणटाले. बापूय आनी 'जा' हांची सोयरीक कशी जुळ्ळी ती एक मजेचीच खबर म्हणूंक फाव. आमचें घर चार चवगांचें जाल्ल्यान आयिल्लो गेल्लो ताका 'घारूदाद' ह्या नांवान पाचारतालो. ह्या 'घारूदादां'तलें घारू हें नांव बापूय जाल्ल्यान आपशींच गळ्ळें. उरलो 'दाद'. ताचो जालो 'दा'. पूण भुरगेपणांत म्हजी जीब खंय बरीच जड आशिल्ली. ते जडसाणेक लागून 'दा'चें 'जा' जालें. एक मदू सोडलो जाल्यार हांवूच सगळ्यांत जाणटो जाल्ल्यान म्हजीच री सगळ्यांनी ओडली आनी तो आशिल्लो तो मेरेन आमचो सगळ्यांचो, तशेंच भोंवतणच्या घोळटिकेंतल्या सगळ्या लोकांचो 'जा'च जालो. मूळ कथेंत ही एक आडकथा आयली खरी, पूण ताका उपाय ना.

हांवें कितें सांगलें तें मामीन आयकून घेतलें आनी म्हळें, 'म्हजे कडेन

तितले पयशे तुका दिवपाक पूण ते दिवन तुका हांवें भोंवपाक धाडलो
हण हाका कळत जाल्यार हो खातलो म्हाका. तेन्ना पयलीं हाका
तां आनी हाणें 'हय' म्हळें जाल्यार मागीर तूं वच.'

तिचें सांगप आयकून म्हाका इल्ली आशा दिसली. सकाळीं दिवाळेचो
. न्हाणांबिणां फांतोडेचेरच शिंया कुडकुड्यांत जालीं. मागीर दिव्यांक
वपाचो आटाप. उंवाळणे वेळार ताटांत उडोवपा खातीर जण एका
च्या हातांत बापायन एक एक रुपया दिल्लो. तोय उंवाळूंक आयिल्ले
न आमी वसूल केल्लो. आनी हांव हुसक्या मेकळो आशिल्लों.देवळांनी
वचपाच्या म्हज्या बेता विशीं मामीन 'जा'च्या कानार घालां जातलें
वें धरिल्लें. ती फोव करपाच्या बोवाळांत आशिल्ली तरीय हांव तसोच
म्हऱ्यांत गेलों आनी तिका विचारलें, 'सांगलें तुवें 'जा'क म्हाका बारा
दिवपाक?'

ना रे बाबा. ह्या रांदपाच्या बोवाळांतच उरलें हांव. सांगुंकच पावलें ना.
आं, आतांच वचून विचारतां आनी पळेतां कितें म्हणटा तें !'

-तिचें आयकनाफुडें म्हजें तोंड एकदम पडलें. म्हाका मामीचो राग
लो. काल रातीं सांगपाक कितें जाल्लें हिका? हय काय ना तें रोखडेंच
सकाळीं कळटलें आशिल्लें.आतां आनीक ह्या दिवाळेच्या बोवाळांत
विचारप म्हळ्यार बऱ्याची आशा उणी. तरीय हांव तितलोसो विरूस
ना. विचारतकच तो कितें म्हणटा ताचेर म्हजें सगळें लक्ष एकठावल्लें.
मामी तशातशी कुडींत गेली आनी तिणें 'जा'क म्हळें, 'आयकलां? हो
सुमन्त खंय तरी भोंवंक वचूंक सोदता. ताका त्या कामाक बारा रुपये
, मोटारकाराक दिवंक.'

हें आयकना फुडें थंय बशिल्ले कडेनच तो खुबिल्ले वरी जालो. 'खंय
तो? आनी इतले रुपया कित्याक ताका?'

'तें ताकाच विचारल्यार बरें. आपयतां आं ताका' अशें म्हणून 'सुमन्ता,
सुमन्ता' अशे उले मारीत ती भायर आयली. हांव माळयेचे इस्कादिचेरच
तांचें उलोवप आयकतालों. बापायन कितें म्हळें तें म्हज्या काना मेरेन
लें ना म्हण हळूच सकयल येवन हांवें आवयक फुतफुतून विचारलें,
तें गे, जाता म्हजें काम?'

'तुकाच हो सोदता.हाका सारकें बरें सांग. दितलो हो तुका पयशे. हांव
आं.' ती निमाणें जें कितें उलयली तें आयकून म्हज्या मनांत आशेचें
ण इल्लें झळ्कूं लागलें.

हांव कुडींत पावलों जाल्यार 'जा' कदेलार बसून नेटानेटान सिगार
कायता. ताका तसो पळोवन म्हाका चिन्नां बरींऽ दिसलिंना. तरीय भितर
न हांव दसऱ्याच्या बोकड्या भशेन ताचे मुखार उबो रावलों.

'खंय वतात रे तुमी?' ताणें प्रस्न केलो.

'देवळां पळोवंक. लक्ष्मीपुजन फाल्यां जाल्ल्यान आज देवळां पळोवपाचें
लें.'

'दिवाळे दिसा शें देवळां पळोवपाचें कित्याक काडलें?'

'कोणें तरी म्हाड्डोळा एक कामिन्यांव भाड्याक केला. तो घेवन तो
ळां भोंवंक सोदता. हांवें श्रीपादबाब प्रियोळकाराक सांगून भोंवंक वचप्यां
र म्हजेंय नांव घालूंक सांगलां.'

हें इतलें आयकनाफुडें तो खुबलो तो इल्लोशिल्लो न्हय.

'म्हळ्यार तुवें सगळें पयलींच तव्यार शिजोवंक दवरलां तर ! आनी
ां पयशे मागूंक आयला? ना मेळचे तुका कांय एक. आनी तूं भोंवडेक बी
खंयच वचचो ना आज.'

म्हजे तकलेंतलो सगळो बेत खंयचे खंय फापसून गेलो. फुडें आनीक
कितेंय उलोवपाची माणसुकी नाशिल्ली. तरीय हांवें म्हळें, 'श्रीपादबाबान
म्हजे लेगीत पयशे भरल्यात. मागीर वचना जाल्यार कशें जातलें?'

'तोंड तुजें खूब सुटलां हालीं तेंपाक' अशें म्हणून तो जो कदेला वयलो
उठलो तो ताणें म्हज्या सोंडार एक फुलयलेंच. मागीर फाटीर दोन चार
थापटां उडयलीं. तो आनिकय मारूंक सोदतालो पूण लागसार बडी जावं
रोत ताका कांयच मेळ्ळेंना. हातान मारिल्लें तितल्यानच ताचो हात दुखिल्लो.

इतल्यांत हो बोवाळ आयकून मामी रांदचे कुडींतल्यान धांवत थंय आयली
आनी तिणें म्हाका म्हऱ्यांत घेवन तसोच भायर हाडलो. आनी आनीक पडपाचे
मार चुकले. ती कांयच उलयली ना. उतरान उतर वाडटा हें ती बेस बरें जाणा
आशिल्ली.

हांव तसोच उठून माळयेर गेलों आनी कोनशाचे कुडींत हांतूण घाल्लें
आशिल्लें थंय वचून आड पडलों. म्हजो दोळो लागलो ना पूण पश्चातापान
मत बेतेकाप जाता तशिशी म्हजी आवतिकाय जाल्ली. म्हाका एके वटेन
तिडक आयिल्ली जाल्यार दुसरे वटेन म्हजें हांगा कांयच चलपाचें ना हें
दिशिल्ल्यान हांव हताश जाल्लों. एकासारको येवजीत हांव थंयच पडून
रावलों. फांतोडे वयले उंवाळणे उपरान्त धा साडे धा वरांचेर ही लड्यांची
खाशेली कार्यावळ पार पडिल्ली.

हांव घुंवळेंत आशिल्ले वरी हांतुणार पडून आशिल्लों. इतल्यान 'जा'न
आपयला असो निरोप घेवन आवयच वयर आयली. पळेत जाल्यार म्हाका
न्हीद लागल्या अशें तिका दिसलें म्हण तिणें उलो मारलो, 'सुमन्ता, कितें
रे? चड दुखलें?'

'ना गे.' हांवें तुसडेपणान म्हळें.

'तुका कित्याक हो आपयता तें पळे. चड करून तुगेलें काम जाताशें
दिसता.'

तिचीं तीं उतरां त्या वेळार म्हाका अमृत कशीं दिसलीं. इतल्यान हांव
मार पडिल्ल्याचें सगळें विसरून गेल्लों. हांवें कळाव लायलोना. तसोच उठून
बापाय म्हऱ्यांत गेलों.

'तूं वतलो मरे देवळां पळोवंक? सकाळच्यान तुवें कांयच खावंक बी ना
खंय ! चल, पयलीं थोडे फोव खावन घे. मागीर तसोच वच पिरवोळकारांगेर.
पयलीं रघुवीरबाब-धर्मेबाबागेर, वयल्या घरांत. थंयच्यान भालीबाबागेर आनी
निमाणें सकल्या घरांत शंभुनाथबाबागेर. तें जातकच मागीर उरलें विठ्ठल
शेटिलें घर. इतलें हें जायनाफुडें परतो यो आनी तुजे आवय कडेन हांव पंदरा
रुपया दवरतां ते घेवन तूं मोटार धर.'

हें आयकना फुडें म्हाका जी खोस जाल्या तिका शीमसर्त नाशिल्ली.

रोखडीच हांवें भितर वचून पयलीं मुस्तायकी चडयली आनी चवखेर
बसून फोव खावंक सुरवात केली. म्हजे आवयन केल्ले रोसांतले फोव म्हजे
खूब आवडिचे. ते दोन फावटी घेवन खाले. आनी वेळ करिनासतना तसोच
उठून रघुवीरबाबागेर गेलों. ह्या घरांत इल्ली बेगीन तयारी जाताली. हांव थंय
पावलों तेन्ना साडे बारा जाल्लीं. पानां दवरून फोव वाडूंक सुरवात जाल्ली.
सगल्यां बरोबर हांवय पानार बसलों आनी खावपाक लागलों. पयलीं
आमाड्याची करम खाली. उपरान्त रोसांतले फोव. येळ बी घाल्ले ताचो वास
घमघमतालो. आनी कांयच घेतलें ना. पाना वयल्यान उठून हात धुता
इतल्यांत भालीबाबालो आपोवणो आयलो. तांगेर गेलों. शिरतेर आमाड्याचें

रायतें वाडिल्लें तें बरेंऽ रुचीक लागलें. ते भायर पानांतले कालयल्ले फोव थोडे भोव खाले. इतलें हें करता सवरता सर एक जावपाक पांच मिनटां उरिल्लीं. थंयच्यान वयर सरून गेलों शंभुनाथबाबांगेर. थंयूय पानां वाडपा खातीर लोक येवपाची वाट पळेताले. आमी पावना फुडें सरळ वचून पानांनी बसले. हांगेर नविदाद म्हळ्यार कडयेचे तिखशे फोव केल्ले. ते हांवें रुचीन खाले. आनीक कशेंच खावंक नज जाल्ल्यान हांव कोण एकाद्रो पाना वयलो उठटा जाल्यार वाट पळेत बशिल्लों. इतल्यांत शंभुनाथबाब म्हज्या पाना म्हऱ्यांत आयलो आनी म्हणूंक लागलो, 'सुमन्तान कांयच खालेंना मरे ! वयावयले भुरगे मरे तुमी. आमच्या तेंपार आमी कितलें रगडटाले तें तुमकां सांगल्यार लेगीत खरें दिसचें ना. घे मरे थोडे फोव. आरे सुमन्ताक थोडे रोसांतले फोव घाल पळोवया !'

म्हजेर आकांत आयलो. आनीक खातलो जाल्यार पोटांत रिती सुवात तरी आसूंक जाय आशिल्ली! पूण खालें ना जाल्यार हो घरा बापायक सांगले बगर रावचो ना. मोन्यांनी ताणें सांगिल्लें तशें केलें आनी आख्खें पान सोंपयलें इतल्यान पिरवोळकारांलो शीण भागयलो आनी थंयच्यान पिटाळ मारून विठ्ठलशेटीगेर पावलों. शेटीगेर जायतो लोक आयिल्लो. आमी कांय जाण गेल्ल्यान चार पांच लोक वाडलो. रोखडीच 'पार्वती पते हरहर महादेव' ही गर्जना करून खावपाक सुरवात जाली. शेटीगेर सदांच कितेंय तरी वेगळे पनवार आसताले. तांगेर एक उसळ तर आसतालीच. ते भायर आमाड्याची करम आनी तीख बरें लोणचें. गोड फोवां वांगडा रूच वाडोवपाचें हें शास्त्र तांकां बेस बरें कळटालें. हांव पानार बसलों खरो पूण म्हज्या कुल्यांक सुयो तोपताल्यो. वणटी वयले घडयाळिचो व्हडलो कांटो णव आंकड्यांचेर आनी धाकलो कांटो दोन आंकड्या आयल्यान पाविल्लो. तरी हांवें धीर करून करपाचीं तीं सगळीं कामां बरे भशेन केलीं. पयलीं उसळेक हात घालो आनी ती सोंपयली. मागीर लोणचें आनी फोव एका फाटल्यान एक खायत रावलों. सगळें खावन जातकच निमाणें थंय जिरवणे खातीर गंजनाचो च्या दिवपाची चाल आशिल्ली. तिकाय मान दिवन कोपभर तोय घेतलो आनी तसोच भायर सरतां सरतां तांचो निरोप घेतलो. मागीर धांवत वचून म्हजें घर गांठलें. म्हाका उलोवपाक लेगीत फुरसत नाशिल्ली. आवय म्हऱ्यांत वचून पयशे घेतले आनी म्हाड्डोळचे वाटेन धांवपाक सुरवात केली. घरा पावपाक दोन वाजून गेल्लीं. आतां म्हळें म्हाका मोटार मेळ्ळी जाल्यार ती नशिबान. म्हज्या एकट्या खातीर ते चड वेळ कित्याक रावतले? पोट तट्‌ट्टून जडगुळो जाल्लें. धांवता तितली खरस वाडटाली, अशे तरेन हांवें कशे भशेन पळापळ करून नंगर गांठलें. मागीर मात म्हज्यान धांवंक नज जालें. कितें जाता तें जावं, मोटार चुकल्यारय जाता पूण आतां धांवप ना अशें हांवें थारायलें. आनी हांव चलत रावलों. इतल्यांत म्हाका पाट्या वयल्यान एक कामिन्यांव वता तो पयशिल्ल्यान दिसलो. तो अदमासान आमचोच आसतलो अशें म्हाका दिसलें. हांव रावलोंना, हांवें मोट्यामोट्यान उले मारपाचें सुरू केलें. आनी कशें कोण जाणा, तातूंत बशिल्ल्या एका दोगांक आवाजा वयल्यान म्हजी वळख पटली आनी तांणी कामिन्यांव थारायलो. हाव चलचलत फुडें गेलों आनी मशिदी कडेन पावलों.

'आरे, खंय रे तूं येदो वेळ? आमी तुजी विशेक मिनटां वाट पळेली आनी मागीर भायर सरले. बरें जालें, तूं मेळ्ळो तो.' श्रीपादबाबान म्हळें.

'दियात रे ताका बसूंक.' सीट सगळे गच्च भरिल्ले. पूण कामिन्यांवांत एक दोन ल्हानेल्यो चवायो आशिल्ल्यो. तांतले एकलेचेर हांव बसलों. आनी कामिन्यांव चलूंक लागलो.

त्या दिसा खरें म्हळ्यार हांवें उमेदीन नाचपाचें. पूण हिसपाभायर फोव आनी हेर फराळ खावन पोट इतलें तट्‌टटलेलें की बशिल्ले कडेन पोटाक सणसण मारूंक लागले. हांव चडश्या देवळांनी भेटीक देवलोंच ना. फकत गेलों तो शिरोडेच्या कामाक्षी देवळांत. तो वाटार म्हाका थंड, शितळ सो दिसलो. आनी दुसरी भेट दिली ती आमचे महालक्ष्मीक. देवळांत भितर सरून तिचे कडेन हांवें इतलेंच मागलें की पोट म्हजें फोव खावन खावन तोडशेलां तें मातशें जाग्यार हाड.

एक खरें, तो दीस दिवाळेचो, खोस मनोवपाचो आसुनय म्हाका बऱ्याक पडलोना. एक वेळ दिसलें, बापायन आनीक चार थापटां मारून म्हाका ख्यास्त दिल्ली जाल्यार ती चलताली. पूण जबरीन पोटांत फोव कोंबपाची जी ख्यास्त फर्मायल्ली ती मात दयामाया नाशिल्ली करणी जाल्ली.

(चलता)

# अणकार : कांय विचार

सुरेश गुंडू आमोणकार

१. दुसऱ्यान कितें सांगलां हें समजून घेवपाची आमकां अनादी काळा
वन गरज भासल्या. हालिंच्या काळांत तर ही गरज चडूच वाडल्या. जग
ान जावंक लागलां. भुगोलीक शिमो मेरो पुसून वचपाक लागल्यात. मुक्त
ार, दळणवळण वाडपाक लागलां. संवसार भौ-भाशीक आशिल्ल्यान
रो मनीस आपले भाशेंत कितें सांगता तें समजुपाची उमळशीक आसता.
ुगेज १६व्या शतमानांत गोंयां पावले. पयलीं वेपार करपाक, मागीर आपली
स्कृताय, आपल्या धर्माचो प्रसार करपाक. मागीर गोंयांत दोन भासो समजुपी
क् जाले. तांकां 'दुभाशी' ("interpreter") म्हणपाक लागले. 'दुभाशेपण'
एक वेवसाय जालो. दुभाशी मौखीक अणकार करतालो. राष्ट्रीय संघाच्या
ार्यालयांत जायते दुभाशी आसतात.

२. टी. वी., इंटरनॅट ह्या माध्यमांक लागून संवसार सामकोच ल्हान
ाला. पयस आशिल्ल्या एका देशांत कितें चल्लां हें समजून घेवप भारी
रजेचें जालां. हें यूग म्हायतिचें. म्हायती दिवप आनी घेवप हें सामकेंच
रजेचें. दर एका क्षेत्रांत दुसरो कितें करता, तें सारकें कळ्ळ्यार, ताचे
डेन स्पर्धा करप सोंपें जाता. हें यूग स्पर्धेचें. जो स्पर्धेंत फाटीं पडटा, तो
जणेंतूय / संवसारांतूय फाटीं पडटा. संवसार आयज एक गांवगिरो वाठार
ाला, एक गांवांतलो तिंटो जाला. 'ग्लोबल विलेज', 'ग्लोकल' हीं उतरां
ामच्या परिचयाचीं, संवकळिचीं जाल्यांत.

३.१ अणकार (अनुवाद) आनी भाशांतर हे दोन शब्द (ह्यो संज्ञा)
ालिंसराक एकाच अर्थान आमी वापरूंक लागल्यांत. संस्कृत भाशेंत **अनुवाद**
उतर आसा, **भाशांतर** हें उतर ना. **अनुवाद** उतर अनु + **वद्** हाचे
यल्यान आयलां. **अनु** म्हळ्यार फाटल्यान वचप. **वद्** म्हळ्यार उलोवप. हें
लोवप दोन तरांचें आसूं येता. एकलो उलयतकीच दुसऱ्यान ताका जाप
िवप; एकादऱ्याचें वा खासा आपल्याचेंच उलोवप पर्थून सांगप.

३.२ वेदीक काळांत यज्ञांत वा धर्मकृत्यांत वेगळ्यो वेगळ्यो कृती
ांगपाचे आदेश दिल्यात. त्या मजकुराक **विधीवाक्य** अशें म्हणटात. आनी
िधीवाक्याचें स्पश्टीकरण वा विवेचन करपी मजकुराक **अनुवाद** म्हणटात.
नुवादांत (अणकारांत) मूळ विधीवाक्याचें स्पश्टीकरण, विसकावणी
ासता. सद्या आमी अणकार शब्दाचो उपेग लागीं लागीं ह्याच अर्थान
रतात. मूळ मजकुराचें स्पश्टीकरण, विवेचन, विसकावणी वा विस्तार
हळ्यार अनुवाद.

३.३ आपटे हांच्या संस्कृत-इंग्लीश कोशांत **अनुवाद** शब्दाचो अर्थ
सो दिला: ''repetition, repetition by way of explanation,
llustration, corroboration, explanatory repetition or
eference to what is already mentioned such as
araphrase or free translation (स्वैर भाशांतर),
upplementary repetition." हे सगले अर्थ 'भाशांतर' ह्या शब्दाच्या
ढ अर्थापरस खूब व्यापक आसात.

३.४ एका भाशीक भेसांत आशिल्ली शब्दसंपत तिच्या मूळ आशयाक बाधा हाडलेविणे दुसऱ्या भाशीक भेसांत सादर करप म्हळ्यार अणकार करप.

अनुवादांत स्पश्टीकरणा वांगडाच, गद्यरुपांतर, पद्यरुपांतर, टीका आदी प्रकारांचो समावेश जाता.

३.५ अनुवाद एकेच भाशेंत आसतात, तशेंच एके भाशेंतल्यान दुसरे भाशेंत केल्ले आसतात. वैदीक भाशेंतलो 'ऋग्वेद' इ.स. पूर्व २५०० वर्सां आदलो. ताचेर इ.स. चौदाव्या शतमानांत संस्कृत भाशेंत **भाश्य** बरयल्लें. हो एक भाशीक अणकार काय भौभाशीक अणकार?

३.६ संस्कृत नाटकांत कांय पात्रां (बायलो, चाकर, आदी) प्राकृतांत उलयतात. त्या नाटकांच्या बरयल्ल्या आवृत्त्यांत ह्या पात्रांच्या भाशणा वांगडाच तांच्यो संस्कृत **छाया** दिल्ल्यो आसतात. ह्यो छाया एक भाशीक काय भौभाशीक?

३.६.१ तेराव्या शेकड्यांत प्राकृत-मराठींत बरयल्ले ज्ञानेश्वरीचो अणकार श्री. मोघेशास्त्रीन १९२५ वर्सा अर्वाचीन मराठींत केला. ताका तांणी **सुबोधिनी-छायेसहित** अशें नांव दिलां.

३.६.२ अणकाराक अनुसर्जन अशेंय एक नांव दिलां. अणकार, छाया, टीका, भाशांतर, अनुसर्जन ह्या सगल्या उतरांचो अर्थ वयलेचाराक समान आसलो तरी ह्यो अणकाराच्योच विवीध दर्ज्यांच्यो पती (परी) अशें म्हणचें पडटलें.

३.६.३ भाशांतराचो हेतू मूळ भाशेंतलें उलोवप वा मजकूर प्रामाणिकपणान दुसरे भाशेंत पावोवपाचो आसता. कायद्याच्या मजकुराचें भाशांतर करतना प्रामाणिकपणाचेर अदीक भर दिवचो पडटा. भाशेचे शैलिचेर आडनदर केल्यार उपकरता. धर्मग्रंथांचोय अणकार यथार्थ करचो पडटा.

३.६.४ अनुवादाची पत / परी वेगळे तरेची. अणकारपी आशयाक (मूळ मजकुराक) एकनिश्ठ तर आसताच, हाचे वांगडाच तो मूळ विचार, ताचो अर्थ, कुशळतायेन, बरे शैलीन मांडटा. मूळ आशया कडेन, मूळ शैली कडेन तो प्रामाणीक रावता. तो चड स्वातंत्र्य घेना. अनुसर्जन हे पतींत अनुसर्जकाक, आशयाक बाधा हाडनासतना, मूळ मजकूर मांडपाची संद आसता. अनुसर्जनांत अनुसर्जकाचे कल्पकतायेक चड वाव आसता. तो मूळ मजकुराचो आशय सांबाळून हें करता. अनुसर्जक निखटो अणकारपी नासता तर तो दोनूय भाशांचेर पकड आशिल्लो प्रतिभावंत सर्जनशील कलावंत आसता. हाका लागून तो मूळ कलाकृती नवे दिश्टीन, नव्या आविश्कारान, आपले कल्पनेशक्तीक नवीं तासां घालून, मूळ लेखका कडेन समरस जावन, आपली कृती वाचप्यां मुखार दवरता. काव्याचें भाशांतर ही अनुसर्जनाचीच प्रक्रिया आसता.

३.७ ज्ञानेश्वरी तेराव्या शेंकड्यांतले मराठींत बरयल्या. ती आज दुर्बोध जाल्या. तशेंच, चासरान बरयल्ल्यो 'Canterbury Tales' ह्योवूय आज

दुर्बोध जाल्यात. त्यो जेन्ना सुबोध करपाचेर भर आसता, तेन्ना शब्दानुवाद करपाचेर भर आसता. तो आशयाक एकनिश्ठ आशिल्ल्यान आशयनिश्ठ शब्दानुवाद अशें ताका म्हणूं येत. पूण अणकारप्याचो उद्देश मूळ साहित्यकृतिचो आशय ताच्या सौंदर्यानुभावा सयत वाचका मेरेन पावोवपाचो आसत जाल्यार त्या अणकाराक **शैलीनिश्ठ शब्दानुवाद** अशें म्हणचें पडटलें. होच सर्जक अनुवाद वा अनुसर्जन. आनी शब्दानुवाद म्हळ्यार निखटें भाशांतर अशें म्हणूं येत.

बायबलचें इंग्लीश भाशेंत केल्लें James' Authorised Version हो निखटो शब्दानुवादच न्हय तर तें शैलीनिश्ठ अनुसर्जन म्हणपाक जाय. हंसराज स्वामीन १९व्या शतकांत दुर्बोध जाल्ले **ज्ञानेश्वरी**चो - तातुंतल्या तत्त्वगिन्यानाचो - सुबोध अणकार केला. तो आशयनिश्ठ शब्दानुवाद. विंदा करंदीकर हांणी ज्ञानेश्वराचो **अमृतानुभव** ग्रंथ ताच्या आशया वांगडाच सौंदर्यानुभवा सयत अर्वाचीन मराठींत हाडला. हो शैलीनिश्ठ शब्दानुवाद म्हणूं येत.

३.८ अणकाराचो विचार तरांतरांच्या आंगांनी करतात. एके भाशेंतलो मजकूर दुसरे भाशेंत हाडपाचे / उतरावपाचे प्रक्रियेक भाशांतर / अणकार म्हणटात. जे भाशेंत मुळचो मजकूर आसता तिका 'मूळ भास' (source language) म्हणटात आनी जे भाशेंत त्या मजकुराचें भाशांतर करचें आसता, ताका 'मोख भास' वा लक्ष्य भास (target language) अशें म्हणटात. मूळ मजकुराचें स्थळांतर मोख भाशेंत करचें पडटा. मूळ भाशेंतलो मजकूर जंयचे थंयच कायम आसता, त्याच वेळार मोख भाशेंत ताची हारशांतल्या पडबिंबा भाशेन समांतर प्रती निर्मणी जाता. ही प्रतीनिर्मणी करतना तातुंतलीं सौंदर्यमुल्यां, उतरावळ, शैलीमुल्यां जशाक तशीं हाडपाचो यत्न अणकारपी करता. बिंब आनी प्रतीबिंब हातूंत जशें साम्य आसता तशेंच हांगाय आसचें लागता. फरक इतलोच, हांतल्या पडबिंबान नवे भाशेचो भेस घाल्लो आसता.

३.८.१ मानवी भास पयली मुखांतल्यान आयल्या. मागीर ती बरयल्या. म्हणून ती मुखांतल्यान आयिल्ल्या ध्वनीचिन्नांची संकेत वेवस्था. ह्या ध्वनीचिन्नांच्या पालवान मनशांचो भाशीक वेव्हार चलता. भाशेंतलीं हीं चिन्नां मनशाचे भोंवतणच्या भौतीक आनी मानसीक पदार्थांचें प्रतिनिधित्व करतात. ही भौतीक आनी मानसीक परिस्थिती विंगड विंगड देशांत वेगळी वेगळी आशिल्ल्यान, सगल्या भाशीक गटांचें / समुहांचें आकलन सारकेंच नासता. देखून, दर एका भाशीक गटाची चिन्न वेवस्था स्वतंत्र आसता. ती त्या समाजापुरतीच सापेक्ष आसता. एके भाशेची चिन्न वेवस्था दुसरे भाशेचे चिन्न वेवस्थे कडेन केन्नाच जुळना. हाकाच **भासांची सापेक्षता** अशें म्हणटात. भारतीय भासांनी 'न्हंय' स्त्रीलिंगी, तर 'सागर' पुल्लिंगी थारायला. गोंयकार आनी कोंकणी तर हातूंत मात्शे कुंप्लिकाद. कोणाचो 'मोग' जाता, कोणाचें 'प्रेम' जाता. देखून थोडे 'तांचो प्रेम जालो' अशेंय म्हणटात आनी थोड्यांची 'प्रिती' जाता. थोड्या गोंयकारांचो 'च्या' पुल्लिंगी, थोड्यांची स्त्रीलिंगी, 'लापीस' पुल्लिंगी आनी 'पेन्सील' स्त्रीलिंगी. मराठी प्रदेशाक आमी इतले लागीं आसुनूय 'पाडसावेले कुंवाळे' हें उतर बेस बरें आमकांच कळटा; पुण्यांत भाजयो मेळटात पूण 'खतखतें' मेळना तर धोडयाऱ्याची 'कळपुटी' कशी मेळटली ?! कोंकणी मनीस वासांचे बाबतींत सुक्षीम. तो घाण वा वास इतलेंच म्हणून वोगी रावना. तर हिंवसाण, खंवटाण, किल्लुसाण, दर्बटसाण, आमसाण, खातसाण, गुट्टाण, उपसाण अशीं अगणीत उतरां वापरता. कोंकणींत आमी बर्फ वा झेल म्हणटात. एस्किमो लोक झेलाक/बर्फाक बत्तीस तरांचीं उतरां वापरतात. कोंकणी मनशाची नदरय बारीक. तो झिळमिळ्ळें, उजळ्ळें, फालेंलें, उजवाडलें अशीं जायतीं उतरां वापरता. न्हीद येवंक लागत पसून जागो जायसर ज्यो वेगळ्यो वेगळ्यो अवस्था तो भोगता, तो हे परी सांगता: 'तो पयलीं पोंवशेलो, मागीर आळशेलो, उपरांत भेंबेलो, मागीर झेमेलो, मागीर लकूंक लागलो, पेंगूंक लागलो, मागीर न्हिदेलो, मागीर सोशेवंक लागलो, उपरान्त घोरेवंक लागलो, घोरेतां घोरेतां सपनेलो, सपनांत वथरेलो, आनी वथरेवन आकांतान जागो जालो.' अणकारप्याक हें एक व्हड आव्हानूच जातलें न्हय?

आमचो मास्तर आनी Cambridge University चो Master वेगळो. आमचो प्रोफेसोर आनी इंग्लंडचो प्रोफेसर वेगळे. इंग्लंडांत cousin आनी पुर्तुगालांत primo अशें म्हणून वोगी रावतात. पूण आमचे रासवळ जिणेचे संस्कृतायेंत चुलत, आते, मामे, मावस भाव अशीं उतरां नातें-भेद दाखोवंक वापरतात. आमचे कडेन नातेसंबंध दाखोवचेलीं उतरां अगणीत. देखीक, जाव, नणंद, मावशी, आत्या, भावज, देर, मेवणी, साडू, नंडावो इत्यादी. येवरोपेव लोकांक हें आपले भाशेंत सांगपाक खूब कठीण पडटा. पूण ही दर समाजाचे संस्कृतायेची विशेशताय. अणकार करतना हाचें भान दवरप म्हत्वाचें आसता.

३.८.२ पूण हेंवूय जरी आसलें, तरी सगल्योच भासो अर्थाचे अभिव्यक्तिचे नदरेन सारक्योच म्हणच्यो पडटल्यो. दोन भासो सामक्यो सारक्यो नासल्यो तरी तांच्यो चिन्न-वेवस्ता ज्या भौतीक, अध्यात्मीक वास्तवाचो निर्देश करतात, तें लागीं लागीं सारकेंच आसता. ताचो कांय भाग जरी संवकळेचो नासलो, तरी संवकळ जातकीच तें मोख-भाशेंत चिन्नावंक अडचण पडना. हाचो अर्थ, दर एके भाशेची चिन्न वेवस्था खंयचेंय अणभवविश्व चिन्नावपाक समर्थ आसता. देखून खंयचेय भाशेचे दिश्टीन भाशांतर करपाक येवपाक ना अशें कांयच नासता. प्रत्येक भास आपले परीन सर्वज्ञ आसता. प्रत्येक भास हिमनगावरी (iceberg) आसता. तिचो कांय भाग वयर दिसता. चडसो वांटो आमकां दिसना. त्या दिसनाशिल्ल्या वांट्यांत भाशेंतल्यो जायत्यो शक्यतायो लिपिल्ल्यो आसतात. विचक्षण, हुशार, कश्टुपी अणकारपी ह्या दिसनाशिल्ल्या वांट्याचें संशोधन करून, तिच्या विंगड विंगड शक्यतायांचो उपेग करून घेता. भाशेंतल्या व्याकरणीक वेगळेपणाक लागून वा सांस्कृतीक संकेतांच्या वेगळेपणाक लागून, जो मूळ भाशेंतलो आशय मोख-भाशेंत मांडपाक कठीण जाता, तो स्पश्टीकरण दिवन मांडपाक येता. देखीक, जर्मन भाशेंत सूर्य आनी पृथ्वी दोनूय स्त्रीलिंगांत आशिल्ल्यान, कुसुमाग्रजांचे 'पृथ्वीचे प्रेमगीत' हे कवितेचो अणकार करपाक अडचणी आयल्यो तरी स्पश्टीकरणाच्या पालवान ती कविता जर्मन वाचकां मेरेन पावोवपाक येता.

३.८.३ भाशा ही एक चिन्न वेवस्था. भाशेंतलें खंयचेंच चिन्न स्वतंत्र नासता. सगलीं चिन्नां एकामेकांत घुसपल्लीं आसतात. सगलीं चिन्नां मेळून भोंवतणचें वास्तव चिन्नायतात. देखून एक चिन्न जो अर्थ चिन्नायता ताचेर दुसऱ्या चिन्नाचो अर्थ निंबून आसता. अशे तरेन दर एका चिन्नाचो अर्थ सापेक्ष आसता. ताका लागून सगलीं चिन्नां एकामेकांच्या ताणांत बसयल्लीं आसतात. भाशेंतलीं चिन्नां आनी तांचे अर्थ हांच्यो स्वतंत्र अशो आकृतायो तयार जाल्ल्यो आसतात. भाशांतर करचें म्हळ्यार मूळ भाशेंतल्या चिन्नार्थाचे विशिश्ट आकृतायेक सामकी समांतर अशे प्रती आकृतायेची मोख-भाशेंत

्री निर्मणी करप वा ते भाशेंतले प्रती आकृतायेची निवड करप. मूळ आनी ख भाशेंतलो आशय एकूच आशिल्ल्यान ही निवड आपशींच थारिल्लीच तिश्चीत) आसता. अणकारप्याक मूळ भाशेंतली संहिता पुराय कळिल्ली सल्यार, तिची सगली उतरावळ आनी ते उतरावळींतल्यान परगट जावपी ालो आशय नीट समजल्लो आसल्यार, आनी मोख-भाशेंतले चिन्न-वस्थे कडेन ताची दाट संवकळ आसल्यार तिच्यांतले मूळ संहिते कडेन ांतर आशिल्ली आकृताय आपशींच ताच्या हाताक लागता. मूळ भाशेंतले हितेचें आकलन आनी मोख भाशेंतले चिन्न वेवस्थेची संवकळ हीं कच्चीं ासत जाल्यार हे प्रती निर्मणेंत दोश मेळटले. तेन्ना, अणकारांतलें येस वा पेस हें अणकारप्याक जाल्लें शब्द आशयाचें ज्ञानआनी मोख-भाशेंतलें ान्न वेवस्थे कडेन आशिल्ली ताची संवकळ हाचे वयल्यान थारता.

### .८.४ भासांच्या ज्ञानाची गरज

काद्री भास एकाद्र्याची आवय भास आसली म्हणटकीच ताका ते भाशेंतली हिता पुराय कळटलीच अशें धरूंक येवचें ना. दर मनशाक ताचे ावयभाशेंतली दर एक गजाल कळटाच अशें ना. ते खातीर तिचो खोलायेन भ्यास करचो पडटा. ताची संवेदनशिलताय सुक्षीम आसची पडटा. ज्या ाशयाचें तो भाशांतर करता, ताचेंय ज्ञान गरजेचें आसता. अणकारपी मूळ ास आनी मोख-भास ह्या दोनूय भासांत निपूण आसपाक जाय वा तो निपूण ासत जाल्यार ताची अभ्यास करपाची तयारी जाय. खुबदां ह्या दोनूय ासांचें ताचें ज्ञान एकाच पांवड्याचें आसत अशेंय सांगूंक येवपाचें ना. ताचें ावयभाशेचें ज्ञान परिपूर्ण मानल्यार, दुसरे भाशेचें ज्ञान अपूर्ण आसुंयेत. रदेशी भाशेचें ज्ञान ताचे परस अपूर्ण आसता आनी संस्कृत / लॅटीन / ीक अशा अभिजात भासांचें ज्ञान लिखित रुपा पुरतेंच मर्यादीत आसपाची ाक्यताय आसता.

मोखभास आवयभास आसल्यार भाशांतर सोंपें आनी बरें उतरता. मूळ ास आनी मोख भास ह्यो 'सहोदर भासो' आसत जाल्यार, ताणें त्या दोनूय ासांत केल्लीं भाशांतरां बरीं आनी मोलादीक उतरपाक शकतात. ाकीबाबांची आवयभास कोंकणी आशिल्ली. हाका लागून, आपणाल्यो मूळ राठींत 'आयिल्ल्यो' कांय कविता तांणीच कोंकणींत हाडल्यात तेन्ना तांचे णकार भोव प्रभावी जाल्यात. हांगा सॅम्यूअल बॅकेटच्या 'Waiting for Godot' चोय उल्लेख करूं येता. ही मूळ फ्रँच भाशेंतली कृती. तिचो इंग्लीश णकार इंग्लीश भाशेचेर प्रभुत्व आशिल्ल्या खासा लेखकानूच केला.

दोनूय भासो वेगळ्या कुळांतल्यो आसल्यार (देखीक, इंग्लीश/कोंकणी, हेंदी/तमीळ) आनी भुगोलीक आनी सांस्कृतीक नदरेन पयसुल्ल्यो ासल्यार (देखीक, कोंकणी/जपानी वा स्पॅनिश) भाशांतरांतलीं आडमेळीं ानी अडचणी वाडत वतात. वैचारीक ग्रंथांचें भाशांतर प्रमाण लिखीत भाशेंत करचें आसल्यार तें सोंपें जाता. पूण ललीत ग्रंथांत (कथा/कादंबरींत) प्रमाण लिखीत भाशे वांगडाच बोली भाशेचोय उपेग केल्लो आसता, तेन्ना ते साहित्य कृतिचें भाशांतर करप कठीण जाता. ते खातीर ते बोलिंचेंय ज्ञान गरजेचें आसता.

फाटल्या दिसांनी अहमदाबादेंत बारा मराठी कथा कोंकणी/गुजराती/सिंधी ह्या भासांनी करपा खातीर एक कार्यसाळ जाली. ह्या मराठी कथांत वैदर्भी, मराठवाडी, डांगी, अहिराणी ह्या बोलिंचो उपेग आशिल्लो तेन्ना अणकारप्यांचेर ते ते बोलिचो कोश मागपाची पाळी आयली वा त्या त्या बोलिंचे जाणकार सोदचे पडले. दर एका समाजांत विशिश्ट सांस्कृतीक संदर्भ आसतात, ते समजून घेतले बगर भाशांतराक न्याय दिवंक मेळना.

तेन्ना, भाशांतराचें येस आनी अपेस जायत्या गजालिंचेर निंबून आसता:

१) मोख भास आनी मूळ भाशेचें ज्ञान,
२) भासांच्या ज्ञाना भितरय आवयभाशेचें ज्ञान आनी दुसरे भाशेचें ज्ञान,
३) दुसरे भाशेच्या ज्ञानांत लेगीत, प्रमाण भास आनी बोली भाशेच्या स्थरा वयलें ज्ञान,
४) पद्य-भाशांतर करचें आसल्यार पद्याच्या आकलनाचे वेगळे वेगळे स्थर आशिल्ल्यान, तांचें ज्ञान, छंदाचें ज्ञान, प्रतिमांचें ज्ञान इत्यादि.

### ३.८.५ मूळनिश्ठ भाशांतर आनी मोखनिश्ठ भाशांतर

खुबदां भाशांतरा फाटल्या हेतू वयल्यानय भाशांतराच्यो पती/परी/तरा थारतात. मूळ भाशेंतली संहिता शब्दश: समजून सांगपाचो उद्देश आसल्यार संहितेक आपशींच म्हत्व येता. अश्या भाशांतराक **मूळनिश्ठ** भाशांतर म्हणटात. **हरिणाक्षी** ह्या संस्कृत शब्दाचें कोंकणी भाशांतर समास-घटक दाखोवन करप गरजेचें जाता. हरिणाक्षी उतराचें भाशांतर हरणाच्या वा मेरवाच्या दोळ्यां भाशेन दोळे आसपी अस्तुरी अशें करचें पडटलें. अशीं मूळनिश्ठ भाशांतरां मोख-भाशेंतल्या वाचप्यांक कृत्रिम/अडेचीं दिसतात. मूळ संहितेंतले शब्द, वाक्प्रचार, प्रतिमा, वाक्यरचना ह्या सगल्यां खातीर मोख-भाशेंतले अस्सल प्रतीघटक सोदून, मोख भाशेंतल्या वाचप्याक चडांत चड सभावीक दिसत अशे तरेन हीं भाशांतरां करतात. Edward Fitzgerald हाणें उमर खय्यामच्या रुबायांचें इंग्लीशींत भाशांतर करतना भाशा-घटक तर बदललेच, पूण पर्शियन अभिरुचिच्या जाग्यार युरोपियन अभिरुची ताचेर आरापीत केली. मुळांत उमर खय्यामच्यो रुबाया सुफी तत्त्वज्ञानाचेर आधारिल्ल्यो, पूण Fitzgeraldन आपल्या भाशांतरांत त्यो romantic केल्यो. देखून त्या काळांतले इंग्लीश अभिरुचीक त्यो भारी मानवल्यो अशें दिसून आयलां. □□

---

*पिड्डुको*

- तोंडार गुणांची तुस्त करची न्हय. अवगुणांची फाटल्यान लेगीत निंदा करची न्हय.
- यशाच्या गर्वा परस अपेसाचें मोल चड.
- ध्येयाचेर नदर दवरून चलशीत जाल्यार फावऽ ते दिकेनूच पावलां पडटलीं.

# लग्ना माटवांत (कांय लोकगितां)

**अनुसया परब**

लग्न मनशाचे जिणेंतलो एक म्हत्वाचो संस्कार. लग्नांतल्यान दोन घराबे एकठांय येतात आनी दोन मनां एक जातात. लग्नांत कितलेशेच रितीरिवाज आसतात. ह्या रितीरिवाजांक आमचे जिणेंत आगळी वेगळी सुवात आसता.

लग्ना आदीं दोन दीस जे विधी आसतात तातुंतलो एक मुखेल म्हळ्यार दिवो लावन आनी दळप. हाका म्हूर्त अशेंय म्हणटात. दर एका विधी वेळार लोकगितां गायिल्लीं मेळटात. ह्या लोकगितांतल्यानूच आमकां आमचे थळावे संस्कृतायेचें दर्शन घडटा. ह्या लेखांत आयल्यांत तीं लोकगितां हांवें दिवचल म्हालांतल्या मुळगांव वाटारांतल्यान एकठांय केल्यांत.

म्हुर्ता वेळार दिवो लायतना म्हणपाचें हें गीत पळेयात -

*''एकमण काशा शिशें*
*दोन मण पितुळ*
*दिली बगान्याच्या हाती*
*गणेश देवाचे शाळे गे दिवा घडविला*
*दिवा घडविला सात वातींचा*
*शोभेचे विणयेचा दिवा घडविला*
*थंयसून दिवा चालू गेला*
*कापुसकाराचे घरी गेला*
*कापसाची बंडल पाहून दिवा संतोसला*
*थंयसून दिवा चालू गेला*
*तेलकाराचे घरी गेला*
*तेलाचे दबे पाहून दिवा संतोसला*
*थंयसून दिवा चालू गेला*
*फुलकाराचे घरी गेला*
*फुलाचे धाली पाहून दिवा संतोसला*
*थंयसून दिवा चालू गेला*
*कुकुमकाराचे घरी गेला*
*कुकमाचे दबये पाहून दिवा संतोसला*
*थंयसून दिवा चालू गेला*
*कोश्टाचे घरी गेला*
*कपड्याची दिंडा पाहून दिवा संतोसला*
*थंयसून दिवा चालू गेला*
*सोनाराचे घरी गेला*
*दागिनेचे पेटयो पाहून दिवा संतोसला*
*थंयसून दिवा चालू गेला*
*कुमाराचे घरी गेला*
*कुमाराचे करे पाहून दिवा संतोसला*
*थंयसून दिवा चालू गेला*
*म्हाराचे घरी गेला*
*म्हाराचे म्हारवड पाहून दिवा संतोसला*
*थंयसून दिवा चालू गेला*
*वाजंत्र्याचे घरी गेला*
*वाजंत्र्याचे वाजप पाहून दिवा संतोसला*
*आपया बोलया येजमानाच्या गोता*
*दिया लायी हात पाचजणी*
*आपला बोलया येजमानाच्या गोता*
*दिवाजाला वेता माटवात.''*



लग्नाचो म्हूर्त दोन दीस आदीं दिवो लावन आनी दळपांतल्यान जाता. घरामुखार चुट्टांचो माटव घालून गांवांतल्या बायलांक आपोवन न्हवऱ्या भुरग्या वा व्हंकले वांगडा उणींच म्हळ्यार पांच बायलां हात धरून पेट्टो लामणदिवो माटवांत मदीं हुमकळायतात. हो दिवो लग्ना दिसा मेरेन पेटत उरपाक जाय. दिवो लावन जाले उपरांत दळपाची कार्यावळ जाता. माटवांत पांच दातीं मांडून बायलां तांदळाच्यो कणयो दळटात. दळिल्ल्या पिठाचो रोसाक वा सोजयेक आळेण लावपाक उपेग जातालो, अजून मेरेन जाता. आदीं तेंपार लग्न सुवाळो म्हळ्यार न्हवऱ्या-व्हंकलेकूच न्हय तर लोकां खातिरूय ती व्हड पर्वणीच आसताली. हे पर्वणेंत हुंवार येतालो तो गितांचो. दांत्यार दळपाक बसतकच दांत्या वांगडा बायलांच्यो होंवयो सुरू जातात आनी वातावरण एकदम हांसपा खेळपाचें जाल्लें दिश्टी पडटा -

*''रुप्याचें जातें सोन्याचे खाणी*
*आपल्या हातीन माणीयले धर्तरी मायीन*
*धर्तरी माया येता म्हूण कशी कळटा*
*चापे गळता अंगणी कैर जाला*
*रुप्याचें जातें सोन्याचे खाणी*
*आपल्या हातीन माणीयले धर्तरी मायीन.*
*तुळसमाया येता म्हूण कशी कळता*
*चापे गळता अंगणी कैर जाला*
*रुप्याचें जातें सोन्याचे खाणी*
*आपल्या हातीन माणीयले धर्तरी मायीन*
*सातेरी माया येता म्हण कशी कळता*
*चापे गळता अंगणी कैर जाला.*
*----*
*----''*

(अशीं पांच देविंचीं नांवां घेतात.)

बऱ्या कामाक आमी सदांच देवाक उगडास करून सुरवात करतात. लग्न सुवाळ्या सारकें मंगल कार्य हाका आडवाद कशें आसतलें? लग्न म्हळ्यार दोन पवित्र आत्म्यांचें मिलन. दोन जीव एकरूप जावपाचो मोलादीक खीण. प्रत्येक धर्मांत, जातींत हो सुवाळो मनोवपाची पद्दत वेगवेगळी आसली तरी ताचे फाटलो हेत एकूच. तो म्हळ्यार, घोवा-बायलेचें नातें अतूट दवरपाचो. दोन घराब्यां मदीं नवें नातें जोडपाचो. न्हवऱ्या व्हंकलेची वैवाहीक जीण समाधानाची जावची म्हण देवा कडेन केल्ली ही एक मागणीच.

*फोडिले नारळ केली पांचवळी*
*घाडवस देवाचे बळी कार्य आरंभिले*
*कार्य आरंभिले निणत्या येजमान्या*
*जाणत्या धाडवस देवान कार्य सिद्धी नेले*
*फोडिले नारण केली पांचवळी*

*नितकारी देवाचे बळी कार्य आरंभिले*
*कार्य आरंभिले निणत्या येजमान्या*
*जाणत्या नितकारी देवान कार्य सिद्धी नेलें*
*फोडिले नारळ...*
(अशीं पांच देवांचीं नांवां घेतात.)

दळतना देवांक उद्देशून गितां म्हणपाची चाल आसा. तेच प्रमाण चलयेचें न आसत जाल्यार दळतना तिच्या भावांक आनी देरांक उद्देशून गीत गपाची चालू आसा. देखीक:

*''माटोव ग शिवला चुट्टाच्या धावानी*
*व्हकले तुज्या भावानी माटोव शृंगारिला*
*माटोव ग शिवला चुट्टाच्या हिरानी*
*व्हंकलेच्या दिरानी माटो शृंगारिला*
*माटवाच्या दारा गे तेलाचो दबो*
*मानाचो गे डबो दाड देव.''*

लग्नाक चड मान सोयऱ्यांक आसता. तांतले तातूंत सोयरीं चड गिरेस्त सत जाल्यार तांचो मान भौच व्हड. तांचो मान दवरून गितांतल्यान ल्लिशी मस्करी केल्लीय दिश्टी पडटा -

*''तानूळ घाला शेवयांक गे*
*गवु घाला नेवऱ्यांक*
*हाडूंक चला सोयऱ्यांक*
*केरकारा...*
*केरकारां सोयऱ्यां गे मोट्या दबाजार्ची*
*नगोर ताम्याचें पेटविले.''*

लग्नाचे सगळे विधी जाले उपरांत व्हंकलेचे घरभरवणिची कार्यावळ जाता. ीनसांजच्या वेळार व्हंकल न्हवरो (न्हवऱ्याच्या घरा) माटवाच्या दारार ावतकच पयली मुठली (शीत वा पिठाचे गुळे करून केळिच्या पानार दवरून) ओंवाळून उडयतात. मागीर हळदिचें उदक न्हवऱ्या व्हंकलेच्या पांयार घालून जमानीन (न्हवऱ्याची आवय) तुवाल्यान पांय पुसता. मागीर व्हंकलेची ोंट भरून येजमानीन व्हंकलेचे मुठींत तांदूळ दिता. व्हंकल लामणदिव्याक ात लावन मुठींतले तांदूळ थोडे थोडे सकल सोडीत घरांत भितर सरता.

न्हवरो व्हंकल म्हळ्यार लक्ष्मी-नारायणाचो जोडो. नवी व्हंकल म्हळ्यार क्ष्मीचें रूप. सून म्हण ज्या घरांत ती पावल दवरतली त्या घराची ती लक्ष्मी (गृहलक्ष्मी). आदीकाळा सावन सुनेक लक्ष्मीचें रूप मानलां. लक्ष्मी हें रुक्मिणीचेंच एक रूप. ताकाच लागून न्हवरो व्हंकल माटवाच्या दारांत ावतात तेन्ना तांकां कृष्ण रुक्मिणीचो संदर्भ जोडून व्हंकल घरांत भितर सरतना अशे रितीन होंवयो गायतात -

*''रुक्मिणी पावली माटवा द्वारे*
*रुक्मिणी न्हेसली पितांबर*
*चोळी घातली गजनीची*
*कास मेटिली बामीणीची*
*पैंजण भरिली सोलमुदयाने*
*हात भरिले कंकणाने*
*दोळे भरिले काजळानी*
*कपाळ भरिले कुंकवानी*
*माथा भरिला फुलपुष्पानी*
*गळा भरिला गळसऱ्यानी*
*रुक्मिणी पावली माटवाद्वारे*

लक्ष्मीच्या पावलान नवी व्हंकल घरांत प्रवेश करता. येजमानीन घराक फाट करून लामणदिवो व्हंकले वांगडा धरून देवाचे कुडींत येता. हांगासर विधी जाता. जमनीर केळिची शिर्ती दवरतात. तिचेर तांदूळ घालतात, तांदळांचेर एक तांब्याचें तपलें दवरून तातूंत उदक आनी उदकांत मुदी दवरतात. ह्या तपल्याचेर आंब्याचो ताळो, ताचेर तांब्याचो तांबयो, परतून आंब्याचो ताळो आनी नाल्ल दवरतात. हें सगळें व्हंकलेक पांच फावटी उखलपाक लायतात. पांच फावटी उखलून जाले उपरांत निमण्या तपल्यांत जी मुदी आसता ती मुदी व्हंकलेच्या बोटांत घालतात. उपरांत चंदनाचें गंध वणटीक सकयल्यान वयर अशे रितीन लावपाक सांगतात आनी उपरांत व्हंकलेक चुली कडेन व्हरून वाळण वयर करपाक लायतात. हातुंतल्या दर एका विधी फाटल्यान वेगळी संकल्पना आसा. गंध वणटीक सकयल्यान वयर लावप म्हळ्यार घराण्याचें नांव वयर काडप. घराण्याचो नांवलोकीक वाडोवपाची जापसालदारकी नवे व्हंकलेचेर आसता. वाळण वयर काडप हीय अन्नपुर्णेचीच संकल्पना. मांय घराचीं सगळीं सुत्रां सुनेच्या हातांत दिवन बिनधास्त जाता. हाकाच लागून सून माप हुंपून घरांत भितर सरता तेन्ना येजमानिची (मांयची) घराक फाट आसता. देवघरांत हो जो विधी जाता ताका 'कांजीण' म्हणटात आनी ह्या वेळार जें गीत गायतात ताका कड्यामुड्याचें गीत म्हणटात.

*''कड्यामुड्या वठांगणा*
*तेचेर सोडली जमखाणा*
*तेचेर बसली चौगाजाणां*
*मांय मांव*
*उजवे माणयेर गे पुत्र*
*दावे माणयेर गे सून*
*अशें केलें गे पुण्य तेच्या*
*माये माव''*

लोकगितां समाजाचे संस्कृतायेचें दर्शन घडयतात आनी वांगडा समाजांत जागृतायूय हाडटात. लोकगितां भितर एक मार्गदर्शकूय दिश्टी पडटा. हो मार्गदर्शक समाजाक बऱ्या मार्गार हाडपाक मार्गदर्शन करता आनी संदेशूय दिता. जात-पात-धर्म मनशान मनशा खातीर निर्माण केल्यात. हाका लागून मनीस आयज एकामेकां पसून वेगळो जायत आसा. मनशां मनशां मदलें नातें पयस जायत आसा. अशा वेळार लोकगितां मनशां मदलें पयसावपी नातें जोडपाचो यत्न करता. देखीक, 'एक मण काशा शिशें' सारकें लोकगीत. समाजांत म्हार, चामार, भट, बामण अश्यो कितल्योशोच ऊंच-उणाक जाती दिश्टी पडटात. दर एके जातींतलो मनीस एक-दुसऱ्याक उणो लेखता. तांकां दिव्याच्या रुपान मार्गदर्शन जाता. लामणदिव्याक हिंदू संस्कृतायेंत मोलाची सुवात आसा. लामणदिवो जात-पात, धर्म मानिनासतना प्रत्येक समाजांतल्या घरांत पांय दवरता. दिवो मार्गदर्शकाच्या रुपान समाजाक संदेश दिता की तुमीय जात-पात धरिनासतना एकवटान सांगातान रावात.

हे भाशेन लोकगितां समाजाक एकठांय दवरुपाचें मोलादीक काम करतात.



# तीर-सुवादीक कॉलम

दिलीप बोरकार

परीक्षा पावली की म्हाका थरथरो सुट्टा.
आतांच न्हय, म्हज्या भुरगेपणा सावन हें घडटा.
हांव नकळ, आतांच्या भुरग्यांक तशें भोगता काय कितें तें !
आतांचीं भुरगीं पळोवंक गेल्यार सामकीं वेगळींच कशीं.
ल्हान तशीं व्हड सगळीं फाटीर पुस्तकां मारून इस्कोलाक वतात.
वाटेर कितेंय खावन तशींच सरळ ट्युशनाक म्हूण वतात.
तांचें तें जिवीत पळयल्यार तांकां परिक्षेक थरथरो मारत सो दिसना.
तांकां तांचे आवय बापूय, म्हळ्यार पेरेंट लेगीत भांगरा सारके मेळ्ळ्यात.
आमच्या आवय बापायनी, म्हळ्यार पालकांनी आमकां मराठी शाळेंत घाले.
घाले ते घाले, पूण एकल्यान तरी केन्ना आमचे कडेन मराठी उलोवंचें आशिल्ले!
हांव शाळेंत वचून मास्तरा कडेन मराठी उलयतालों.
ती बाबड्या मास्तराकूय कळनाशिल्ली आनी घरा कडेन म्हज्या पालकांकूय.
म्हजे पालक म्हजे कडेन कोंकणी उलयताले ती पाड पडिल्ल्या मास्तराक कळनाशिल्ली.
इतलेंय आसून हांव शिकपाक केन्ना फाटीं नाशिल्लों म्हणटात.
आतांचे पेरेंट भुरग्यां कडेन इंग्लेज उलयतात.
भुरगीं टिचरां कडेन आनी टिचर तांच्या पेरेंटां कडेनूय इंग्लेज उलयतात.
तरी एकल्याकूय थरथरो भरिल्लो दिसना.
हरशीं ना तो ना, परिक्षेक लेगीत ना म्हळ्यार अजाप शें एक.
भौतेक थरथरो म्हणटात तो म्हज्याच वांट्याक आसुंये.
पयलीं शिकतालों तेन्ना हें सगळें एक समजूं येतालें.
तेन्ना थरथरो भरतालो निबंद बरोवचो पडटा म्हूण.
निबंद म्हूण तरी कसलो ! खंय तरी मसणांत एक वर.
मागीर तो बस स्टॅण्ड आसूं येतालो वो खंयचो तरी समुद्र किनारो.
सगळें शिकप म्हणटात तें चलून जालें, बस स्टॅण्डार कोण मसणो वतालो?
आनी समुद्र किनारो म्हणटात तो केन्नाय शाळेची 'सहल' गेली जाल्यार !
सकाळीं बसींत चोंदून व्हरप आनी सांजचें पुंजावन घरा हाडप.
दीसभर मागीर आमचे सारके तळमळटात बाबडे दर्या देगेर.
निबंद बरोवंक जाय म्हूण सहलीक व्हरतात हें केन्ना कोणें सांगलेंना.
आनी दर्या देगेर एक वर हाचेर निबंद बरोवप केन्ना जमलेंना.
तोंडांत पेन घालून वरांचीं वरां ह्या एका वरा खातीर सरल्यांत.
इतलेंय करून जें कितें बरयलें ताका दोन जावं तीन मार्क.
अशें करून कितलीं तरी वर्सां परिक्षेक थरथरो माल्लो.
निमणो थरथरो मारून घेतलो तो एम्.ए.चे परिक्षेक.
कॉलेजींत शिकयतलों आनी प्राध्यापक जातलों हो एक हावेस.
इंग्लेजींत, फ्रेंचींत, पुर्तुगेजींत एम्.ए. करप म्हळ्यार म्हजे खातीर सपन.
तें भाग्य फकत मनोहरराय, लक्ष्मणराव आनी शिवदासबाबाक बी लाभत
म्हजी धांव ती चडांत चड मराठी आनी तेय मुखार हिन्दी कडेन.
मराठींत एम्.ए. केली जाल्यार मराठीवाद्यांच्यो बोबो.
'बघा, बघा, कोंकणी कोंकणी करतात आणि मराठीची कास धरतात.'
तें आनी लफडें नाका म्हूण हिन्दीक वेंग मारून एम्.ए. केली.
एक वेळ मराठीवादी परवडले पूण हे पानखायरे हिन्दीवाले न्हय!
तांणी म्हाका व्हरून सरळ पन्नासांचेर दवरलो.
नांवा मुखार प्रा. लावंक पन्नास टक्के मार्क कांय उपकारलेनात.
तेन्नाच भाग्य उजळ्ळें आनी कोंकणींतल्यान एम्.ए. जाली.
महागुरू गॉमिशाच्या हाताखाल बरय बरय बरयलें.
आनी हिन्दी परस उणे मार्क घेवन कोंकणी श्रेश्ठ म्हणपाचें सिद्ध केलें.
तेन्ना म्हळें कोंकणीचें निमित्त करून जिवितांतलो थरथरो थांबोवया.
बाकिच्यांक प्रा. जावंदी, म्हजो प्राण तरी वाचोवंया.
परिक्षा नशिबांतल्यो गेल्यो पूण त्यो येवपाच्यो रावल्यात ?
दर वर्सा वसंत रुतू येवंक लागलो तो परिक्षा घेवनूच.
परिक्षा येता तशे गांवचे भुरगे घरा कडेन येवंक लागले.
हांव लेखक म्हूण कळून निबंध बरोवन घेवपा खातीर.
ना म्हळें जाल्यार हेच म्हणटले, कसलो लेखक काय म्हूण!
आदींच कोंकणींतले व्हडले सोडाच, धाकटे लेगीत म्हाका लेखिनात.
व्हडल्यांच्या संमेलनाक सोडा, युवा संमेलनांत लेगीत म्हजो उल्लेख जायन
एकूच आदार आशिल्लो तो ह्या गांवच्या भुरग्यांचो.
तांणी कांय वाचूंक ना जायत, पूण परिक्षे वेळार याद करताले.
आनी हांवूय थरथरत तांकां कितेंय बरोवन दितालों.
भुरगे काय म्हजें नांव सांगचेनात आनी म्हजी लज वचचिना.
हालींच अंदुचे परिक्षेक एकलो धावेचो भुरगो आयलो.
ताका सगळे निबंद येताले पूण दर्या वेळेर एक वर कळनाशिल्लें.
कटकट नाका म्हूण हांवें ताका मिरामार वचूंक सांगलें.
कान दोळे उकते दवरून सगळें बरोवन काड म्हळें.
आमच्या ज्येश्ठ साहित्यिकांचो सल्लो हांवें ताका दिलो.
ना तर म्हज्या नशिबांत सल्लो घेवंक खंयचो मसणो येतलो?
अशोक भोंसलो सोडाच, तो नारायण खोर्जुवेंकार लेगीत येना.
म्हजो सल्लो घेवन तो बाबडो गेलो आनी हांव सुटलों.
तेन्ना मुंबयच्यान दिलीप धवनाची आन्टी गोंयांत आयली.
बरी साठेक वर्सांची बायल, पयलीं सिनेमांत बी काम करपी.
तिका मिरामार पळोवंक जाय आशिल्लें देखून हांव घेवन गेलों.
रेंवेंत ती लंगडत लंगडत चलता आनी हांव तिका सांबाळटां.
ह्याच वेळार तो भुरगोय अणभव घेवपा खातीर थंय पावलो.
ताणें उगडे दोळे म्हजेर लायले आनी कान थंय बशिल्ल्या हेरां कडेन.
'म्हाताऱ्याचें म्हातारचळ' म्हूण चार पानां बरोवन दुसऱ्या दिसा म्हगेर आयलो
तरी बरें, ताची सुनापरान्तांत बी वळख नाशिल्ली म्हूण !
हांवें ताचें तें साहित्यीक मुल्यां आशिल्लें लिखाण वाचलें.
ताचें दर्या वेळेर एक वर सामकें उमेदीन सरिल्लें.
पूण ताचें लिखाण निबंद प्रकारांत आसपावता काय कितें तें आकळनाशिल्लें
('आकळना' हें उतर हांवें 'आकळूंक' हाचे वेल्यान केलां. अर्थ डॉ. बुडकुले

प)

शीलाचीं भूंयचाफींय अजून एकाय प्राक आकळूंक नात खंय !
हजी अक्कल पाजळून ह्या भुरग्याची वाट लावप समा नाशिल्लें.
पात गोंय विद्यापिठाचो कोंकणी विभाग समर्थ आसा.
तींत थंय दोळे दिपकावपी वावर जाला म्हणटात.
त कोंकणींतल्यान एम्.ए. जाल्ले, दोळे कित्याक मिटमिटावपाचे !
वें त्या भुरग्याक सांगलें, हांव तुका एक निबंद बरोवन दितां.
त्र आनी ते धर्तेचेर मागीर तुका जाय त्या विशयाचेर बरय.
, बस स्थानकार एक वर, दर्या वेळेर एक वर बी.
त्र कित्याक, मटक्याच्या अड्ड्यार एक वर लेगीत बरोवं येतालें.
हांवें ताका दांडगो म्हणटात तसलो आत्मविस्वास दाखयलो.
कोंकणी मनीस कितें लेचेपेचे?
लो आत्मविस्वास दांडगोच.
रोवंक बसल्यार मात कितें म्हळ्यार कितेंच सुचना.
बरयतलो जाल्यार मन म्हणटात तें निश्चिंत जाय.
गां मेकळें, कसलीच चिंता नाशिल्लें.
्या माथ्यार देवान हजार हुसके आनी चिंता दवरल्यात.
माथ्यार गोंडेच गोंडे कशे शे सगळे.
ो ना ती ना.
चें काम केल्यार वेळार दुडू नात.
कारा खातीर एक फिल्म केल्लें, अजून पयशे पडूंक नाशिल्ले.
्च्याय हातार कितेंय दवरल्यार रोखडे पडूं येताले.
रींकाराचे राजवटींत तसो विचार करप लेगीत पाप.
ताच्याच कानार घालुंया.
मेळूंक यो म्हळें.
ार, अशें आमी म्हणपाचें. खरें म्हळ्यार ताच्या दरबारांत गेलों.
च नेट मारप ते आमी लेखक, बुद्धीवादी बी म्हणून.
वे सारक्यांक हे लोक व्हरून मारतात भिसक्यार.
रांत ताणें सांगलें, आपूण अधिकाऱ्यांक आफयतां. अडेजांक यो.
नें दनपारचें देड वर.
ाक गेल्यार बेश्टोच वेळ जाता.
ीं पोटार हांगा थंय गणोवन ज्युस्त अडेजांक गेलों.
ो ताकतिकेन खंय तरी वचूंक सचिवालयांतल्यान देंवता.
दारावेल्या पोलिसांनी अळंग कुशीक धुकल्लो.
कुकड सो असोऽ कोनशाक वचून उबो रावलों.
ज्युस्त पर्रीकाराचें लक्ष म्हजेर पडलें.
, वयर वचून राव. हांव अर्द वरान येतां.'
ंत बसतां बसतां म्हाका लागीं आपोवन ताणें म्हळें.
ठे लोक म्हाका पळोवंक लागले.
काळीज धडधडलें.
आसा. ह्या गोंयांत लेखकांक मान आसा.
ची सेवा कोयराच्या डब्यांत वचपा सारकी न्हय.
विजयी मुद्रेन सगळ्यांचेर नदर भोंवडायली.
पाड पडिल्ले सगळे सूंऽऽ करून गेल्ले मुखेलमंत्र्याचे गाडयेक पळेताले.
सचिवालयांत वचून मुखेलमंत्र्यांच्या दारार रावलों.

थंय आनिकूय कांय लोक ताटकळत उबे आशिल्ले.
तांचे मदीं वचून लायनींत रावप म्हाका कशेंशेंच दिसलें.
म्हाका तर खासा मुखेलमंत्र्यान वयर वचून राव म्हणिल्लें.
ह्याय लोकांक बी ताणें तशेंच सांगूंक ना मू?
आसूं येतालें ! ते म्हजे कडेन किंकोंत करून पळेताले.
इतले म्हणसर म्हजे खातीर आयिल्ले अधिकारी पावले.
तांणी म्हाका थंय उबो पळोवन विचित्र मुद्रा केली.
घडायंच करून पी.ए.च्या कॅबिनाचें दार उगडून भितर गेले.
कॅबिनांतल्यान ए.सी.चो थंड वाव भायर मारलो.
खरें म्हळ्यार ते गरमेंत कोणाचोय जीव सुखावपाचो.
ते भितर वचून बसल्यात तें पळोवन म्हाका हांगा उजो पेटिल्लो.
लेखकाक हो मत्सर बी कोंताक येना. हांव म्हाका समजायतालों.
मदींच कोण तरी दार उगडून भायर सरतालो.
म्हाका दिसतालें, म्हाकाच भितर येवन बसूंक सांगूंक आयल्यात काय म्हूण.
अर्द वर सोंपिल्लें. मुखेलमंत्र्यांचो काय पत्तो नाशिल्लो.
हांव केन्ना दाव्या पांयार वजन घालतालों, तर केन्ना उजव्या.
ते वटेन पासार जावपी म्हजेर नदर भोंवडायताले.
हे म्हाका वळखतात काय पाड पडिल्ले?
असल्या वेळार वळख नाका जाता!
पूण ते तन्या देहार पिकिल्ले केंस पळयताले आसूंक जाय.
म्हजो नाका जाल्लो गैरसमज जातालो.
उपरांत एक एक करून पत्रकार थंय जमूंक लागले.
तांकां मुखेलमंत्र्यांचो पीए व्हरून भितर बसयतालो.
बटाटवडे, सामोसा आनी च्या हाडून दितालो.
म्हाका तें नाका आशिल्लें.
बसूंक मेळ्ळ्यार पुरो जाल्लें.
बऱ्याच वेळान मुखेलमंत्री आयलो आनी कॅबिनांत गेलो.
हांगाय ताणें म्हाका पळोवन राव आं मात्सो अशें म्हणचेंशें दिसलें.
त्या लोकां मुखार म्हजें थोडें तरी इम्प्रेशन पडपाचें.
कामांचें पाड पडूं आशिल्लें पूण हो मानभंग सतायतालो.
साहित्य अकादेमी पुरस्कार घेवपी लेखकाक म्हूण दारार हुमकळावप?
साद्या साद्या पत्रकारांनी भितर वचून बटाटवडे खावप?
पत्रकार परिशद सोंपली आनी सगळे पत्रकार भायर आयले.
तांचे वांगडा मुखेलमंत्रीय भायर सरूंक लागलो.
ताणें कांय पत्रकारांच्या खांदार हात लेगीत घालो.
तातुंतले कांय जाण म्हजे कडेन हड्डें मुखार काडून पळेताले.
म्हजी नदर आपसूक सकयल गेली.
दिशिल्लें, मुखेलमंत्री आतां तरी भितर यो म्हणटलो.
'तुमी दीसभर हांगा दारार कितें करतात रे!'
अशें म्हणत तो कांय मंत्र्यां वांगडा चलत रावलो.
ताचे फाटल्यान हांवें धांवचें काय कितें तें म्हाका येवजलें ना.
पाड पडूं ! मुखेलमंत्र्यांच्या कॅबिना भायर म्हजें एक वर गेल्लें.
तेंच वर हांवें त्या भुरग्या खातीर दिवपाचें.
बाबडो निबंदाची वाट पळयत रावला आसतलो !
'खंयच्या तरी मसणांत एक वर' ह्या निबंदा खातीर ! □□

## अर्थ

शंकर रामाणी

फुटल्या फांतोड
निक्तीच न्हय ?
फुडली वंय
होलमना...

हरयाळिशें
पांचवें नातें;
मना-पातें
दंवल्लें...

उतरांपेल्यान
अर्थ उबो
पैसाक तिबो
मळबाचो.

## तेहेलका डॉट कॉम

निलबा खांडेकार

म्हाका बरो म्हणपी लोक संवसारांत
आसा सो दिसना, अशें हांव चिंत्तां
पूण एक वेळ तुमच्या तोंडावयल्यान नदर भोंवडायत जाल्यार
दुबाव जाणवले बगर रावना
घडये ती तुमच्या उलोवपाची तराय जावं येता
तसो तुमचो थाव घेवप खुबूच कठीण. म्हाकठीण.

'हऽऽय शिंज्योर', म्हणपी तुमी
म्हजे फाटल्यान थुकतात आसतले
बोटां दाखोवन चाळयतात आसतले
म्हाका हळशीक गाळीय घालतात आसतले
पूण आसूं. हाचे पयल्यान म्हज्यान कांयच म्हणूंक जायना
कित्याक तर 'दोळ्यां आड मसंड पाड'
तरीय कोणाच्याय फाटल्यान करप म्हटल्यार पाडूच न्हय?
आतां कोण कितें आनी तुमी कितें
हें हांवेंच सांगप, हातूंत कितें आसा?
सगळें जग जाणा. जावं.
ते म्हजे फाटल्यान धुयतात म्हण म्हाका
राग आयला बीन अशें तुमी समजूं नाकात.
जग कितें आनी हांव कितें?
निमाणें, कलीयुग !
एक मात, हांव जगा सावन केन्नाच अलिप्त रावूंक ना
म्हणोन म्हजे म्हाकाच मागीर हाची लज जाल्ले भशेन दिसता
लजेन तकली सकयल करतां.
येवजताय, हें असलें जगप हांवें जगचेंच न्हय.
जी तकली लजेन बागवता ती कातरून उडोवची
ते तकलेंत फकत अटलजींचे, देशाचे प्रगतिचे
तळमळे आसात आनी दुसरें कांयच ना
तकलेंत भितर बंद जिवाच्या आकांतान
घुस्मटपी 'अटल बिहारी वाजपेयी'
हुस्कार घेवपाक सोदता
ते आतां तीर धरून दोळ्यांत देंवल्यात
चारूय वाटांचो एक नेट करून
दोनूय हातांत काळें धरून
तांचे मुखार फकत आसा अटलजींचें चरित्र
ते आतां सुक्या वांगडा जितेय जळपाचे
उपाय येवजितले.
कुरुक्षेत्रार हारिल्ले तुमी निमाणें हेंच करतले ना?

आनी हांव कोंसतां म्हजे म्हाकाच
तांच्या दरेका पावलांचो अदमास आसुनूय
ओग्गी आसा म्हण

खरेंच, म्हाका ह्या सगळ्या गजालिंचो वीट आ[illegible]
नारायणन.

## न

चंद्र गांवकार

१.

चैत्रांत
ची आंकरी
येन ताळी रुखाच्या...
कुचीत !
च गत
चीय जाता...
दनाचो रूख
टा... आंगानपांग
रुतुंतले सुरंगी वरी
नी...
ता आतां
णेकूच फुटल्या...
आंकरी !
त्मतेची धार...
स... पयस उल्ल्या !
यज मेरेन
शीच ही वाट
तोडेच्या सपनांनी बुडल्या !

## दोळे

मा रा. लाड

र्षी वर्सां, पूण कळ्ळें ना
दिसाच्या सपनांतल्यो यादी
पनांतले उमाळे
तनांतलीं सुखां
सकारिल्लीं दुखां
जे वाटेक लायिल्ले नदरेन
जून मेरेन धार येवुंना
र काडूंक दुसरें अस्त्र जाय
ज्या दोळ्यांतलें शस्त्र जाय
जाल्यार...
नाजाल्यार हे दोळे अशेच वाटेर उरतले
वल्यांचो नाच सोंपसर.

## अनंत

अरूण साखरदांडे

अनंताक हांवें कुंडेंत रायलो

१.

अनंत कोमरेन कोमरेना
अनंत पानान पालेना
अनंताक उदक मेळना
अनंत वाडून वाडना
अनंत काळजांत भरना
अनंत कसोच कळेना
अनंत फुलून फुलना
अनंत चुकून हांसना
अनंताक कुंडी पावना
अनंत कुंडेंत मावना
अनंत कुंडेंत रावना

हांवें अनंताक कुंडेंतलो काडून जमनींत रोयलो

२.

अनंताक फुटल्या कळेच कळे
धवे फुल्ल हजारांनी दोळे
अनंत मनयता नखेत्र सुवाळे
भुंयेर आतां चान्नी रात सोंपना
अनंताच्या फुलपाक आतां अंत ना.

## चार चंवरां - मोगाचीं !

सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

१.
हांवें तुका मोग दिलो
तुवें म्हाका भास दिली
उतराक तुज्या पातयेलों म्हण
पिशावरी म्हजी गत जाली.

२.
म्हाका दुख्ख दिवपाक
तुका कशें कांयच दिसना?
पूण कितलेंय दुख्ख सोंसपाक
मोग मात म्हजो उणो पडना.

३.
म्हाका बरें दिसचें म्हण
बळयां तुवें हाडलो तोंडार हांसो
हें म्हाका कळना जावपाक
हांव गो कितें पिसो?

४.
मोग तुजो जिखचे खातीर
तुज्या मना सारको वागलों
आनी म्हाकाय एक मन आसा
हें हांव विसरलों !

# बंदखणींत हांव म्हालो जालों




**फेलीस्यु कार्दोज**

१९५४तल्या जूल म्हयन्याच्या शेवटाक गोंयच्या वेगवेगळ्या वाठारांतल्या सुटके झुजाऱ्यांक आग्वादचे बंदखणींत हाडून दवरले. त्या समयार पुर्तुगेज सरकार दर एका कैद्याक दिसाक १४ आणे (८७ पयशे) दितालो. ह्या दुडवांनी जेवणा-खाणाच्या वस्तूं शिवाय आनीक कितेंच हाडूंक मेळनासलें. म्हजे सारकेल्या थोड्यांची सामकी अडचण जाताली. कांय दिसां उपरांत, तितले दुडू पावनात देखून ते वाडयचे म्हण आमी मागणी केली. पूण सरकारान कानार घेवंक ना. आनीक थोडे दीस गेले. उपरांत आमी अन्न सत्याग्रह करूंक थारायलें. बंदखणिच्या अधिकाऱ्यांक आमची तजवीज सांगतकच दर एका कैद्याक सरकार दिसाक १ रुपया आनी ५ आणे दिवंक लागलो. तेन्ना आमी जेवणा-खाणाचे जिनस हाडूंक १ रुपया खर्च करताले आनी पां-पांच आणे एकठांय करून ह्या दुडवांनी हेर गरजेच्यो वस्तू हाडटाले.

आग्वादाक म्हयन्याक एकदां एक म्हालो कैद्यांचे केंस कातरूंक येतालो. ताका आमी दुडू फारीक करूंक जाय आसले. तो केंस कापूंक ८ आणे (५० पयशे) घेतालो. आतांच्या हिसपान आठ आणे म्हळ्यार कांयच न्हय. पूण त्या काळार आनी ते परिस्थितींत तितले दुडू आमकां सुमाराची संपत्तीच म्हळ्यार जाता.

म्हालो केंस कातरूंक लागतालो तेन्ना पहारो करपी सैनिकाच्या दोळ्यां आड हांव ताचे कडेन हळूच भायली खबर विचारतालों. तो हूं नूं कूं करिनासलो. तो कांयच सांगना म्हण म्हाका ताचो राग येतालो. पूण तो बाबडो कसो तोंड उगडटलो आसलो? ताका कैद्यां कडेन मातूय उलयना जावंक कॉमांदांतीन शिटकावणी दिल्ली. आनी तो आमचे कडेन उलयतना सांपडललो जाल्यार ताका मार दिवचो दिवन बंदखणींतय उडयतले आसले.

हांव भुरगेपणांत शेजारच्या ल्हान भुरग्यांचे केंस कापतालों. केंस कापप म्हजो एक छंदसो जाल्लो. कांय म्हयने गेले. दर म्हयन्याक म्हालो येतालो आनी आमचे केंस कातरून वतालो. तेन्ना वकील गोपाळ आपा कामत आमचो chefe da cela आसलो. हांवें ताका केंस कातरपाची एक कातर विकती हाडूंक लायली. हे फुडें हांव केंस कातरतलों म्हण हांवें ताका सांगलें. पयलीं पयलीं कामतबाब कातर हाडपाची मागणी करूंक अनमनलो. पूण हांव सामको आग्रो करीत रावलों देखून ताणें एक दीस कातर हाडून घेतली. पूण म्हजे कडेन कोणूच केंस कातरूंक राजी जायना जालो. शेकीं कामतबाब तयार जालो. हांवें ताचे केंस कातरले. पूण म्हाका तितलो अणभव नासलल्यान फाटले वटेन ताचे केंस हुंदरांनी खाल्ले परीं दिसूंक लागले. कामतबाबान तांची पर्वा करूंक ना. दुसऱ्या म्हयन्यांतय ताणें म्हजे कडेनच केंस मारले. हे पावटी कातरप बरे तरेन जाल्लें. मागीर हळू हळू दुसरेय आपल्यो तकल्यो म्हज्या हातांत दिवंक लागले. कांय म्हयन्यांनी, गिरायक ना जावन, तो म्हालो बंदखणींत येवपाचो बंद जालो. तितले मजगतीं, हांव सगल्यांचे केंस कातरतालों, पूण म्हजे केंस कातरपी मात कोणूच नासलो. क्रिस्टोफर इसाकाक हांवें म्हजे केंस कातरूंक लायले. ताचे हात कलात्मक आसले. ताणें म्हजे केंस कापले, पूण ताचो पयलोच प्रयोग जाल्ल्यान, फाटले वटेन जायतीं खांपां पडललीं.

कांय म्हयन्यांनी आनिकय खूब स्वातंत्र्य सैनिकांक आग्वादचे बंदखणींत हाडून दवरले. दीस वतां वतां हांव केंस कातरपांत बरो फिशाल जालों. दर आयतारा सकाळचो केंस कातरपाचो म्हजो कार्यक्रम आसलो. सकाळचीं ८ ते दनपारचें १ लेगून हांव सुमार २२-२३ जाणांक लेगून 'हुजरायतालों'. केंस कातरपाची म्हजी सामुग्री म्हळ्यार कातर, दांतोणी आनी ब्लेड. उपरांत आग्वादांत क्रिस्टोफर, मधू फळारी बी बरे तरेन केंस कातरूंक लागले.

म्हजे कडेन केंस कातरून गेल्यात तांतूंत शिक्षक, वकील, वैज आदी आसले. हांचे भितरलो एकलो मागीर मंत्री जालो - बाब अँथनी डिसौज आनी श्री. गोपाळ आपा कामत गोंय दामांव दीव विधानसभेचो सभापती.

गोंयचे सुटके उपरांतय हांवें म्हज्या कांय इश्टांचे केंस कातरल्यात. सर्गेस्त दो. लुइश पेरेग्रीनु द कॉश्त आनी प्रा. मनोहरराय सरदेसाय चडशे म्हजेच कडेन केंस कातरताले. मनोहरबाब म्हजे कडेन केंस कातरता देखून ताचे घरकान्नीक बरें दिसनासलें. 'फेलीसमामाक कित्याक त्रास दितात?' ती म्हणटाली. आनी मनोहरबाब आनी हांव हांसताले. एक दोनदां मनोहरबाबान म्हळां लेगीत, 'फेलीस, तूं फ्रांसांत आशिल्लो जाल्यार कितले दुडू जोडटलो आसलो रे?' फ्रांसांत आलफियादाक (दर्ज्याक) आनी बारबेराक बरो मान आसता आनी तांची जोडूय बरी खंय.

दक्षीण आफ्रिकेंत आसतना एका दिसा गांधीजी न्यायालयांत गेल्ले तेन्ना गोरे वकील तांकां पळोवन हांसूंक लागले खंय. गांधीजीन आपणेंच आपले केंस कातरलेले आनी ते हुंदरांनी खाल्ले परीं दिसताले. खरें म्हळ्यार थंय केंस कातरपाचीं शॉपां आसलीं तीं गोऱ्यांचीं आनी ते काळे कातिच्या लोकांचे केंस कातरनासले. हांसताले तांकां गांधीजीन अशी जाप दिल्ली खंय: 'गोऱ्यांक म्हजे केंस कापूंक धीर जायना देखून हांवूच म्हजे केंस कापतां!'

त्या काळार ट्रिमर म्हणटात ती वस्त नासली. तेन्ना ती मेळिल्ली जाल्यार गांधीजी सुंदर तरेन आपले केंस कापतले आसले. हांव ट्रिमरा उदेशीं केंस कापूंक लागल्यार ३५ वर्सां अदिकच जातलीं.

□□

**जागा खातीर बरप धाडटना**

- बरपाची एक प्रत बरोवप्यान आपणालागीं बाळगुची.
- बरप निवळ अक्षरान कागदाच्या एकाच अर्दान बरयल्लें आसचें. (एका अर्दान आदीं वापरिल्लें कागद बरोवपाक वापरूं येता.)
- हेर खंयचेच कडेन उजवाडा येवंक नाशिल्लें बरपूच धाडचें.

# सुरांचे साधनेंतली कविता

रमेश भगवंत वेळुस्कार

मनशाच्या जिवितांत जितलें म्हत्व उतराक आसा तितलेंच म्हत्व वा ताचेय परस इल्लें चड म्हत्व ज्या उतरांतल्यान गीत निर्माण जाता ताका आसता. गितांतलीं उतरां एका खाशेल्या अशा आकृतीबंधांत येतात. तेच बराबर सुरावटिचें ज्युस्त गच्च आंगलेंय तीं उतरां अशे तरेन घालतात की आयकतल्याच्या मनाचो ताबो घेवन तीं वससिंकिनी थयच रावपाचे साधनेंत गुल्ल जातात. देखून बऱ्या गिताचो प्रवास उतरांतल्यान काणयेंत म्हटल्यार ओंठांत, ओंठांतल्यान आयकतल्याच्या काळजांत आनी परत आयकतल्याच्या काळजांतल्यान आनी कोणाच्या तरी काळजांत असो एका सारको चलत आसता.

कोंकणींत बरीं गितां खुब्ब कमी आसात. पूण जीं कितें बरीं गितां आसात तीं भौ. हरदत्तबाब खांडेपारकार हांचें नांव मोटे मायेन आनी अधिकारान सांगतात.

*सृश्ट तूं कमळ कशी दीत राव सुवास*
*रावलों जावन पराग हांव तुज्या कुशीन वास ॥धृ॥*

ह्यो ओळी रेडियो वयल्यान येवन सरळ काळजांत आपलें आसन थीर करतात. अशीं काळजांत येवन बसलेलीं तीं उतरां पळयात:

*विश्वकुटुंबीं समर्थ रावचो, शाश्वत भारत देश*
*यश परमळचें, अपेश टळचें, कृपा अशी परमेश*

सांगत रावल्यार हीं अवतरणां वाडत वयतलीं हातूंत दुबाव ना. आनी हीं उतरां जीं आमच्या काळजांत येवन बसल्यांत तीं उतरां एका मोगाळ, म्हांवाळ आनी शाश्वस्त अशा काळजांतल्यान निर्माण जाल्यांत. हीं हरदत्तबाबांचीं उतरां वयलेवयर आयिल्लीं उतरां न्हय. ताच्या उतरांत आमकां आमच्याच काळजाची सुलूस गावता. 'सृश्ट तूं कमळ कशी' अशीं उतरां जेन्ना येतात तेन्ना साळकाचें सगळें सौंदर्य उबें जाता. साळकाचो रंग, ताच्यो पाकळ्यो, तांतल्यान जाणवतलें पाकळ्यांचें मोवसारपण आनी तांतली पाकळ्यांची कांत आनी ह्या सगळ्यांत वयर साळकाच्या फुड्यांत गेल्यार जाणवतलो ताचो मंद पूण किंचीत उग्र असो परमळ आमकां अवघ्राणून वयता आनी खीणभर आमी वेगळ्याच विश्वाक पालाणून येतात.

हरदत्तबाब आमकां हो प्रवास आनी अणभव आपल्या ह्या सुंदर आनी ओडलायण्या उतरांनी करून दिता. सगळी सृश्ट तांकां कमळ कशी दिसपाक लागल्या. आनी त्या कमळांत तो आपूण पराग जावन रावला. कमळाचो परमळ आनी तो पराग ह्यो दोनूय प्रतिमा सगळे कवितेक वा गिताक एक अलौकीक बैठक दितात. आपलो वास त्या सुवासांत आसा असो विश्वास त्या उतरांतल्यान आमकां मेळटा.

ह्यो कविता आमकां **गीतोत्सव** ह्या तांच्या कवितासंग्रहांत पळोवपाक मेळटात. आनी हरदत्तबाबांनी ह्या कवितासंग्रहाक मोगान 'गीतोत्सव' अशें म्हटलां. आनी आमी जेन्ना भूतकाळाकडेन पळयतात तेन्ना हो गीतोत्सव एक आगळें रूप घेता. ह्या कवितांची सुरवात गोंयच्या मुक्तीपूर्व काळांत मुंबयचे सांस्कृतीक फाटभुंयेर जाल्या. हरदत्तबाब शिकपाखातीर म्हण मुंबय गेले.




थंय ते बाकीबाब, वसंतबाब बोरकार तशेंच श्री. काशिनाथबाब लाड हांच्या संपर्कांत उरले. तांच्यांतल्यान तांकां कोंकणी विशिंचें विश्व उकतें जायत गेलें आनी १९५७ वर्सा तांकां 'विद्या' ह्या इंटर कॉलेजिएट कोंकणी नेमाळ्याचो संपादक जावपाचो योग आयलो. तांचे 'शांत उबी सृश्ट' हे कवितेक पयलो पुरस्कार फावो जालो आनी तांचे जिणेचें आनी तांचे कवितेचें जिणें आगळ्या अर्थान फुलपाक लागलें. त्या १९५७त मुंबय रेडियो केंद्रान तांकां कविता वाचना खातीर आपयले ही त्या वेळार एक खऱ्यानीच व्हडली गजाल अशें म्हाका दिसता.

गीतोत्सवांतली कविता हरदत्तबाबांनी स्वर्गीय ललिताक म्हटल्यार आपले घरकान्नीक ओंपल्या. जे आत्मियतेन ताणी अर्पणपत्रिकेंतलीं उतरां बरयल्यांत तें पळयल्यार ह्या गीतोत्सवांतल्या सगळ्या कवितांचेर ललिताबायल्या मोगाळ लावण्याची पखरण जाल्ली दिसता. तांतल्या सुरांनी ताच्या स्वरांची पसय आमच्या काळजांत मूर्तिमंत जावपाक लागता. भौ. माधव बोरकाराक लागून जायते फावट मुंबय रेडियोचेर कार्यक्रम करपाचे योग आयिल्ले. तेन्नाच तांची म्हटल्यार ललिताबायची भेट जाल्ली. ताच्या सभावाचें मोगाळ व्हडपण आनी आत्मियता पळोवन हांव खूब सुखावल्लों. ललिताबाय कलेची कदर करपी, कलेचेर मोग करपी आनी कलाकाराक उत्तेजन दिवपी. हांव जितले पावट मुंबय तांकां मेळ्ळां तेन्ना तांच्या हांसत्या ओंठांचेर चुळबुळटले स्वर म्हाका आयकूंक आयल्यात. हरदत्तबाबांनी आपले अर्पणपत्रिकेंत तर अशें म्हटलां की 'सकाळीं उठल्यापासून रातीं न्हीदसर पदां घोळयतूच ललितालीं कामां चलतालीं, ताच्या ह्या सुरांची म्हाका आपशींच संवंय जावन गेल्ली, त्या सुरांतल्यानच म्हज्या गितांक आकार मेळत गेलो.'

हें जाणा जातकूच गीतोत्सवांतल्यो सगळ्यो कविता ज्या सौंदर्यानुभवांतल्यान साकार जाल्यात त्या प्रेरणांचो स्रोत आमकां उतरा पावलाक ह्या कवितांनी जाणवता. म्हणुनच जेन्ना ते 'सृश्ट तूं कमळ कशी' अशें म्हणटात तेन्ना तांतली 'तूं' कोण तें आमकां आपाप कळटा. आनी

हांतली 'तूं' हें उतर वाडत वचून तें विश्वनिर्मिती येदें व्हड जाता. आनी प्रकृति पुरुषांचें अजरंवर गीत जाता. मोगाचें त्रिकाल फुलतें फूल जाता.

*फांतोडेच्या तन्नसाणेंत*
*मळब जेन्ना तामसाणटा*
*मनांत म्हज्या तामडें गुन्न*
*ढोष्णीचें फूल फुलता*

फांतोड आनी तिची तन्नसाण आनी तिच्या प्रभावान सगळें पुर्वांचळाचें मळब तामशेता अशीं उतरां जेन्ना एकठांय जावपाक लागतात तेन्ना याद जाता ती तन्नाटेपणांतल्या पयल्या वयल्या मोगाची आनी त्या मोगाच्या लागसारपणान तांबडेगुंज जावपाची. अशी ही मोगाळ कविता वाचतल्याच्या संवेदनशील मनाक हालोवन वयता. आनी ताच्याय मनांत एक दशणिचें तांबडेंच फूल फुलता. तांबडो रंग हो रगताचो रंग. आमच्या मनांतल्या हुरुपाचो रंग. कितल्याशाच अर्थान ही कविता आमकां खेळयत वचपाक लागता.

*वाऱ्या वरी उडून गेलीं भांगरा वरी वरां*
*सल्ली चान्नी रात*
*आतां जागीं जालीं घरां ॥*

वयल्यो वळी वाचले उपरांत तुमी म्हणटले की हांवें ह्यो म्हाका जाय तश्यो बरयल्यात. खरें म्हटल्यार, मूळ कवितेच्यो ह्यो दोनूच वळी. हांवें तीन करून मुद्दम बरयल्यात. कारण *वाऱ्या वरी उडून गेल्लीं भांगरा वरी वरां, सल्ली चान्नी रात* ह्यो सगळ्यो एकाच चित्राच्यो, एकेच मन:स्थितिच्यो बाजू. तो सुंदर काळ, चान्ने रातिचो काळ, भांगरा वरी मोलादीक काळ... वारो जावन उडून गेला.. हें सगळें सूख अलौकिक म्हणून हांवें इल्लीशी वळ कुशीक काडली. *'आतां जागीं जालीं घरां'* ह्या उतरांनी कृत्रीम घरावरी कृत्रीम जग जागें जालें. आनी निसर्गीक गजाली ना जाल्यो हाचें दुख्ख व्यक्त करता. सुंदराच्या मोग्याक अशें दिसलें ना, जाल्यारूच नवल.

ह्या संग्रहांत कविता तीन वांट्यांनी विभागल्यात. अंतरंग, देशभक्ती गीतां आनी पांच संगितिका.

हरदत्तबाबांल्या सगळ्या कवितांनी स्वरबद्धता हो एक प्रमुख गूण आसा.

*राष्ट्राचो रथ विराट एकवट्टन धुकलतले*
*हरहर हर महादेव एकमुखान घालतले ॥धृ॥*

तांचे लयेन येतल्या उतरांत कांय उतरां सोंपीं आसून नव्या धारणाचे आवेश निर्माण करपी आसात. म्हाका याद जायना, जशे मावळे झुजपाक वयतात वा राजस्थानचे राजपूत झुजूंक वयतात तशेच गोंयकार झुजूंक गेल्ले अशें खंयच आयकूंक येना. आनी म्हणून जायत आमचे कडेन असली रणावयली भास ना. पूण हरदत्तबाब असली भास निर्माण करपाक सक्षम जातात. *'हर हर हर महादेव एकमुखान घालतले'* ह्या उतरांनी ही सक्षमताय दिसता. 'घालतले' हें उतर हे नदरेन मार्मिकतायेन ही नवी भास निर्माण करपाक मुखार येता.

हुंवार रंगताचे व्हांवैले, जालो धुल्ल गुलाल
उल्लो जोंवर स्वास निमाणो, ध्येयाचो प्रतिपाळ
अजिंक्य असल्या झुंजारांनी, थरथल्लो सुल्तान ॥

स्वतंत्रतेच्या भौ भगतांनो घणघणया दिपरद्ना
महापुजेचें दिया निमंत्रण वाडा म्हासमरदना
भारतीय स्वर सम्राटांचो भरा आयज दरबार

हरदत्तबाब आपलीं उतरां सहज बरयतात आनी कोंकणी मनशाच्या मनांतल्या उतरांक वाट मेळटा. ह्या सगळ्याच उतरांचीं गितां जाल्यांत. आनी हीं उतरां ओंठार येतात.

अवर्षणाचो थरूं असंभव, जावं निर्विघ्न फुडार
पिकूं विपूल, रसरसूं कुळागर, भरूं सदां संवसार
दीवं सगल्यां वन कल्पतरूंनी समृद्धी संदेश ॥३॥

अशी ही खांडेपारकारांची भास नव्या दमाच्या कोंकणी गीतकारांनी अभ्यासपाची आनी आत्मसात करपाची गरज आसा. आयच्या कोंकणी गिताक नव्या नव्या आविश्कारांनी तशेंच सहज भाशेंतल्यान केळोवपा खातीर गीतकारांनी आनी गायकांनी लेगीत अक्षरांतले हे हरदत्तबाबांचे समृद्धतायेक समजून घेवपाची गरज आसा.

गीत आनी कविता म्हण ह्या गीतोत्सवाचें महत्व लक्षणीय आसा. खरें म्हटल्यार ह्या संग्रहाचेर वेगळ्या वेगळ्या आंगांनी बरोवं येतलें. कोंकणी गीताचें एक म्हत्वाचें पर्व ह्या गीतोत्सवान पळयलां, निर्माण केलां आनी कोंकणीक दान केलां. ताची फकत इतकीच वळख दिवन जावंचें ना. हे कवितेक यश आंवडेवपाची गरज ना, कारण ती यशवंतूच जावन आयल्या. पुस्तक रुपान ती उसरां पावल्या आनी आमी दोट्टी मनान तिचें स्वागत करतात आनी तिचे कडल्यान आनीक यशवंत सृजनाची अपेक्षा करतात.

**गीतोत्सव**
**हरदत्त खांडेपारकार**
**पानां : ७२, मोल: रु. ५०**

---

# पिड्डुको

- इश्टागतिचें मोल फकत शाण्या मनशाकूच कळटा.
- प्रतिभेक एकान्ताची पोसवण जाय. पुणून सभाव घडोवपाक लोकां वांगडाच मनशान रावंक जाय.
- ल्हान ल्हान कामां करूंक जाणा जाल्लेच व्हड कामां करूंक पावतात.
- जाणें खासा आपणाचेर जैत जोडूंक ना, तो दुसऱ्यांचेर केन्नाच जोडूंक पावपाचो ना.
- उर्बे बगर खंयचोच वावर आयजवेर तडीक वचूंक ना.